जाग प्रकाशनाचें

जाग

म्हयनाळें

वर्स ४४ : आंक ११ : जुलय, २०१८





* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.
फोन: ९७८०८७१११८

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

## मांडावळ...



भायलें चित्र : शॅन लॉंग (चित्र-संस्कार : अनुरुद्ध लेले)
भितल्लीं चित्रां : भरत जगताप



# माधवीचें अंतर्मन

हेमा नायक

जल्माक येता ती दरेकली व्यक्ती आपले परीन जगताच. ती कितलीं वर्सां जगली हाचें गणित करचे परस ती कशी जगली हाचो इतिहास निर्माण जाता तेन्ना ताका म्हत्व प्राप्त जाता. आमकां माधवीचो इतिहास जाणा जावपाक जाय. ताणे जगपांतलो आनंद घेतलो. सगळ्यां मदीं आसून आनी सगळ्यां भरशीं रावूनय सगळ्यां परस वेगळें अशें माधवीच. ताच्या विचारां कडेन, तत्वां कडेन आनी ताच्या वागपा कडेन कोणाचीच सर करपाक जावची ना. ताचे जिणेचे कितलेशेच पैलू हांवें पळयल्यात. पन्नास वर्सांची एक ल्हान जीण तें जगलें पूण जगिल्ल्या एका एका खिणाचें भांगर करून सोडलें, म्हजे नदरेन ताच्या जगपाचें सार्थक जालें. आमी इतलेंच म्हणपाक जाय, ताच्या अफाट विचारांक समजून घेवपाक आमीच उणी पडलीं. 'मिठाची कणी हांव, दर्याक हात लायना फुडें दर्या येदी जाली' ह्या उतरांतूच माधवीच्या जगपाचो आंवाठ आसपावला. ताचे सृजन निर्मणेची ही केदी शक्त!

चित्रंगी दिवाळी अंक १९८३. ह्या अंकांत तरनाट्या चलयां खातीर 'म्हज्या मनचो कुंवर' हो खास विशय दवरिल्लो... आनी हाचेर वेगवेगळ्या चलयांक आपल्या मनांतल्यो भावना उकतावंक लायल्यो. माधवीचोय तातूंत आस्पाव आसलो. खूब उमळशीक आसली माधवीक कसलो कुंवर जाय आसतलो काय हाची. तेन्ना ताची पिराय एकवीस वर्सां आसतली. प्रेम, लग्न ह्या विशयांचें चलयांक हे पिरायेचेर चड आकर्शण. ताचो एक धाकटुलो लेख आयलो, तो जश्शाचो तस्सो हांगा दितां. त्या लेखांत ताच्या जगपांतलो सार आसपावला.

माधवी जयवंत सरदेसाय. तेन्ना पुणेचे डेक्कन कॉलेजींत 'भाशाशास्त्र' विशय घेवन एम्. ए. करतालें. तेन्ना सावन ताका भोंवडी करपाची आवड. तेच बरोबर संगीताची आवड आसली. तें सतार शिकतालें. आमच्या सगळ्यां परस एके वेगळेच विचारसरणेचें.

लेखाचें शिर्शक आसलें - 'तोच' उरचो, हांव 'हांव' उरचें.

स. माधवीचो ७ जुलयाक जल्मदीस. दर वर्सा ते निमतान आमी कार्यावळ करीत आयल्यात आनी 'जागां'तय लेख बरोवंन घेवन उजवाडायल्यात. ह्या अंकांत माधवी आनी तिचो मामा 'तातो' - स. रवीन्द्र केळेकार हांच्या मदल्या नात्याचेर उजवाड घालपाचो यत्न बरोवप्यांनी केला...

''जिवा भोंवतणचे पास जाणवतात तेन्ना मेकळीक इल्ली इल्ली होलमूंक लागता. दुरगाचो आडस सोदपी मेकळीक अणभवतां आनी जीव घुस्मट्टा. दिसता सपनांचो हावेस संवसाराक पचपाचो ना. शिमो हाताक लागले बगर सपनां पारखूंक म्हाका जमचें ना.

आमकां संवंय जाल्या - सपनांत मुठींत आंवळून धरपाची. तीं हाता भायर वचत ह्या भंयान आनी आडस सोदतात - आड्याचो.

भंयाचो काळोख आमडूंक आमी दिवली पेटोवं. सुर्याचें लख्ख वोत आमकां पेलना, दर्याक आमी वेळेर बसून तोखेवं. मस्तेल्ल्या ल्हारांचेर जीव मोखपाक आमकां काळीज जायना. सताक आमी पयसुल्ल्यान हरोवं. तातूंत जिवाक भाजून घेवपाचें आमचें बळगें निणेलां.

आमी कांचवेल्यांत. मनाक निळो दर्यो परवडपाचो ना म्हण आमी धव्या फेणेरानूच पांयाक खातकुतल्यो करून घेतात. वणटीची बंदखण आनी पाश्टाची सावळीय आमकां खूब जाली. जिणेच्या उश्ट्याचेरूच आमी भूक भागोवं.

असलें फुक्याचें वयले वयर उफेवपी जिणें नाका म्हाका. म्हाका फुलचेलें आसा - मनाच्या कुंवराच्या सांगातान, 'तो कसो आसचो?' ताचे वरी आसचो. आपूण आपूणच उरून म्हाका हांव जावपाक ताणें हातभार लावचो - इतलीच म्हजी इत्सा.

हेर फास्क्यांनी ताका बांदून हाडिनासतना, ताच्या सांगातान मागीर हांव म्हजीं उतरां घडयन. फास्क्यो, शिमो, आडे, वणटी सांसपून पळेत आनी मेकळिकेचो थाव घेवन अर्थाक फुलूंक दीन.

घडये तेन्नाच म्हाका दिसतलें

ही म्हजी जीण''

...माधवी

ताच्या दरेका वाक्या कणकणी आनी उतरा उतरांतल्यान कितलो विस्तारीत अर्थ भायर सरता ताची जाणीव जाले बगर रावना. जशें तें आपले विशीं चिंततालें तशेंच चिंतप आपल्या मायेच्या मनशां विशीं, आमचे विशीं, कुटुंबांतल्या हेर मनशां विशीं लेगीत आसतालें. कसल्याच बंधपासांत आडखळून घेतले बगर मेकळी जीण जगपाचो ताचो हावेस आसलो. ताणें स्वताक केन्ना बंधनांत बांदून घेतलें ना आनी ताका लागून ताणें आपणाक मेळिल्ल्या गिन्यानाचो लाव कोंकणी शिकपी लोकां खातीर दिवन दवरलो. तागेली बरपावळ एकठांय करीत जाल्यार ताच्या गिन्यानाचो आंवाठ आमच्या हाताक लागतलो. आपणा वरीच बाकिच्यांनी आपले बुद्धीमत्तेचो विकास करचो अशें ताका सदांच दिसतालें. ताका कितें आपल्यो स्वताच्यो विवंचना सतायनासल्यो असल्यांतलो भाग न्ही. पूण बुद्धिमत्तेच्या कामांत ताणें ह्यो आडखळी आपणाचेर बंधनां म्हण लादून घेतलीं नात हातूंत ताचें अप्रूप. ताचें हांसतें मुखामळ आनी कूक कूक करून हांसता तें आयकतकूच कोणाकूच दिसनासलें हाका कसल्यो विवंचना वा दुख्खां आसत म्हणून, देखून केन्नाय ताका पळयतकूच म्हाका दिसतालें, बायलांच्या खळखळून हांसपा फाटल्यान लिपिल्ल्यो आसतात दर्दभरीत वेदना. पूण आमी त्यो केन्ना जाणून घेवपाक वचनात आनी त्यो समजल्यारय आमच्यांनी कांय करपाक जायना. दरेकल्याचो वयक्तीक प्रस्न म्हण तांचेर आडनदर जाता. आनी खरें म्हळ्यार असल्या गजालींनी गुंथून उरपाक ताका केन्ना वेळूच नासतालो. देखून तर ताचे कडसून ताच्या धाकटुल्या जिवितांत लेगीत कोंकणीच्या ज्ञानमंदिरांत भाशाशास्त्र विशयांतलें गिन्यान भरभरून ओतलां. ताणें बरयिल्ल्या लिखाणाचीं पुस्तकां बेगीनात बेगीन येवंची ही इत्सा.

ताचो सभाव तसो क्रांतिकारी पूण वागप म्हों वाळ आनी उलोवणें नाजूक. हांवें नोकरी सोडले उपरांत मदल्या काळांत म्हजी अर्थीक परिस्थिती जेन्ना हालिल्ली तेन्ना ताचें काळीज कळवळून आयिल्लें. ताणें म्हणिल्लें लेगीत म्हज्या कानार पावलें, 'हेमाचें कशें चल्लां आसतलें काय? विचारपाक बरें दिसना. तें केन्ना पयशे मागचें ना आनी हांवें दिल्यार ताका अपमान दिसूं येता.' एक निर्मळ मायेचें नातें आमचे मदीं सतत उरिल्लें. आर्थीक त्रासांतल्यान भायर सरिल्ले आयचे दीस पळोवपाक माधवी आज जाय आशिल्लें कशें दिसता. मनीस पिरायेन ल्हान आसूं वा व्हड आसूं, ताचें अंतस्करण कितलें विस्तृत आसता तें म्हत्वाचें. माधवीच्या व्हड अंतस्करणांतल्यान आयिल्लीं म्हजे विशींचीं उतरां सदांच म्हाका नवी उर्बा दीत रावल्यांत. हय, ताका संगीताची खूब आवड आशिल्ली. खूब वर्सां फाटली गजाल. सगळी याद जायना पूण ताची इश्टीण राधा भावे आनी शकुंतला भरणे सांगाताक आशिल्लीं. एके तिनसना आमगेर तिगांयची मेळून संगीताची सुंदर बसका जाल्ली. तिगांय संगीताचीं शौकीन. उपरांत माधवी आनी राधा आपल्या वेगळ्या विश्वांत पावलीं. संगीत हो तांचो फाविल्ल्या वेळार हौशे पुरतो प्रांत जालो, जाल्यार शकुंतलान निर्धार सोडलो ना आनी ताणें गायनांत आपलें लक्ष घालें. माधवीक खूब आवड आसली संगीताची. दुयेंत आसतना मुंबय हांथरुणार आसतना लेगीत शकुंतला ताचे म्हऱ्यांत वचून ताच्या सांगाताक रावलां तेन्ना ताणें सांगचें 'शकू फक्त गायन कर, हांव आयकत रावतां.' काना म्हऱ्यांत संगीत आयकतकूच तें उमेदी जातालें. तितलीच ताची मनरीजवण आसली. सतार शिकतालें तें. हुशार व्यक्ती सगळ्याच कामाक हुशार आसता हें विधान माधवीक जुस्त लागता. म्हणूनच म्हणलें हांवें इतलें शिकून, लग्न जावन संवसार करून, भाशाशास्त्राचो अभ्यास करून संशोधनाचेर थिसीस बरयले. देशांत तशेंच देशा भायर प्रबंध सादर करपाक भोंवलें. ते भायर सुमंतबाब केळेकारा उपरांत जाग प्रकाशनाची पुस्तकां छापपाची जापसालकी घेतली. इफ्फीच्या दिसांनी खास सुटी घेवन थेटरांनी बऱ्यांतलीं बरीं फिल्मांय पळोवपी आशिल्लें तें. आनी हें सगळें ताणें जें केलें तें आपले स्वताचे गाडयेन भोंवून न्हय. गाडी चलोवपाक शिकलें ना पूण ते खातीर खंय आपलें खंय अडटा अशें करून घेतलें ना. ताच्या ह्या गुणांतल्यान शिकून घेवपा सारखें खूब आसा. आपलें चित्त ध्येयपुर्ती कडेन लायत जाल्यार मनीस सगळीं कामां उमेदीन करपाक शकता अशें ताणेंच जायते फावटीं उलयतना म्हणलां.

कोंकणीचेर अन्याय जाता थंय धांवून वचपी माधवीचो सगळ्यांकूच



धीर कसो आशिल्लो. ताणें केन्नाच आपूण प्राध्यापक म्हण एखादया सरकारी अधिकाऱ्याक कोंकणीचेर जाप विचारपाक फाटफुडो पळयलो ना. ताची ही निर्भिडतायेची देख सगळ्यांनी घेवप गरजेचें आसा. विद्यार्थ्यां खातीर तर तें आदर्शूच.

हें बरयतना कोंकणीची सध्याची दशा आनी दिशा हाचेर नदर दवरून माधवीची आयचे परिस्थितींत किर्ते भुमिका आसपाची ताचेर विचार करप म्हजे खातीर गरजेचें थरता. फाटल्या वर्स भर जो कोंकणीच्या नांवान चार चौगांक तोंड करून दिवपा सारको जायत्या जाणांनी खवदळ घालो ताचेर माधवी एकलेंच आशिल्लें जें तोंड उगडून विचारपाचें हें तुमी चलयलां तें किर्ते? गोवा कोंकणी अकादमींत पुरस्कारां सारक्या विशयाक धरून ज्यो गजाली वाऱ्यार घाल्यो ताचेर अधिकारान उलोवपी माधवीच आशिल्लें. कित्याक तर आमचेर ल्हानपणांत सावन रवीन्द्रबाब केळेकार सारकेल्या म्हान मनशां कडल्यान एक संस्कार पडिल्लो, तो म्हणल्यार कोंकणी मनशां भितर कितलींय झगडीं झुजां जांव तीं चार वणटीं भितर उरपाक जाय. भायर उकतड्यार ताची उस्तवारी करपाक जायना. एकामेकाचेर तापूंक जाय, तिडकूंक जाय पूण चौगांक ताची सुलूस लागूंक दिवंक फावना. रवीन्द्रबाब आसतना अशें घडटालें. मागीर माधवी कडल्यानय अश्यो समजिकायेच्यो जायत्यो घडणुको घडल्यो.

आनी आतां? काळजांतल्यान न्हिन्नळून अदीं मदीं स्वासांतल्यान हुंकार येता आनी माधवीच्या सामकें लागींचें जावन राविल्ल्या कृपालीक हांव खूब फावटीं दोळ्यांत दुकां हाडून म्हणटां 'कृपाली, माधवी आसूंक जाय आशिल्लें गो. आमचे परस कोंकणीक ताची गरज आशिल्ली. तें आशिल्लें जाल्यार अशें घडपाक दिवचें नाशिल्लें.'

संपर्क: 9764597628

# एकमेवद्वितिय 'माधवीबाय'

**संपदा कुंकळकार**

माधवीबायक हांव ल्हानपणा सावन पळयत आयलां. ताच्या व्यक्तिमत्वान म्हजेर सदांच प्रभाव घातला. हेरा पासून वेगळें, तेजस्वी व्यक्तिमत्व. सर्वसादारण लोक हे प्रवाहा बरोबर व्हांवपी आसतात. पूण कांय व्यक्तिमत्वां अशीं आसतात जीं प्रवाहा विरुद्ध आसतात. तांचें खाशेलेपण हें सांगचें पडना. तीं कितल्योय गर्देत आसूं, सदांच उठून दिसतात. तशेंच एक तेजस्वी व्यक्तिमत्व म्हळ्यार, स. माधवीबाय सरदेसाय.

जशें जशें हांव रवीन्द्रबाबाचें साहित्य वाचत गेलें, तशें तशें म्हाका माधवीबाय चड कळपाक लागलें. रवीन्द्रबाबाचे सावळेंत वाडलें म्हूण आपसूंक तांचे कडल्यान अपेक्षा वाडल्यो. रवीन्द्रबाब वतकच तर अपेक्षा चड वाडल्यो.

म्हाका दिसता तत्वां जपपाचे बाबतींत माधवीबाय रवीन्द्रबाबां परस एक पावल फुडेंच आशिल्लें. कारण एका दादल्याक तत्वां जपप सोंपें. पूण एक बायल मनशेक तत्वां जपप खूब कठीण. एक बायल हें जशें एक स्वतंत्र व्यक्तिमत्व आसता तशेंच ती कोणाची तरी चली, कोणाची बायल, कोणाची सून जाता, आवय जाता. तेन्ना एक स्वतंत्र व्यक्तिमत्व म्हूण तत्वां जपप खूब कठीण. पूण माधवीबायन आपलीं तत्वां आयुश्य भर जपलीं. तीय बी कोणाकूच दुखयनासतना.

लग्न जावन तांणी आपलें नांव बदल्लें ना. ती मंगळसूत्र घालिनाशिल्ली. (फकत) खादीचे कपडे वापरताली. (पूण) हें सगळें करतना खंयच आपूण स्त्रीमुक्तीवादी वा फुडारिल्ल्या विचारांचें हें दाखोवपाचो अट्टाहास केन्नाच नासतालो. हीं तत्वां तांच्या रक्तांत इतलीं घोळिल्लीं की तांचें आचरण सामकें सहज, निसर्गीक दिसतालें. कांयच उखलापे ना. जी गजाल सहज जाता वा दिसता तीच खरी आसता.

तांचो एक गूण जाणें म्हजेर सामकी भुरळ घातली तो म्हळ्यार जापसालदारकी, वचन बद्दताय. जे तरेन तांणी 'जाग' चलयलो ताका खऱ्यांनीच तुळा ना. ती फकत 'जाग' हें मासीक चलयनाशिल्ली, जाल्यार एक परंपरा फुडें व्हरताली. जीव ओतून प्रुफां तपासप तांकांच शक्य आशिल्लें. 'जागा'चेर एक फोटो आयिल्ले. माधवीबाय रवीन्द्रबाबाक दोतोरा कडेन घेवन गेल्ली. दोतोर रवीन्द्रबाबाक तपासताना माधवीबाय भायर प्रुफां तपासताली. कोणें कशेंय बरोवन दिवं. तो लेख छापून येतना मात वेवस्थीत येतालो. 'जागा'चेर आनी कोंकणीचेर आशिल्ली तांची निश्ठा, वचनबद्दताय म्हळ्यार फुडले पिळगेक प्रेरणा.

माधवीबायक एकदां जापसालदारकी दिली म्हणटकच ती कशेंय करून ती पुराय करताली हें आमकां सगळ्यांक खबर आसा. पूण हनुमंतबाब चोपडेकारांच्या तोंडांतल्यान एक गजाल आयकून म्हाका सामकें अजाप जालें. हनुमंतबाब पी.एच्.डी. करतना, माधवीबाय

तांची गायड आशिल्ली. माधवीबायची भलायकी इबाडली आनी उपचार घेवपाक ती मुंबय गेली. त्या काळांत खंय हनुमंतबाब आपलो प्रकल्प घेवन मुंबय तांकां दाखोवपाक गेल्लो. माधवीबायक चड उलोवपाक जाय नाशिल्लें. पूण तरी तिणें सुचोवण्यो बरोवन दिल्यो. ज्या पानाचेर सुदारणां करपाक जाय ताच्या फाटल्या पानार सुचोवण्यो बरयल्यो. जिवाक बरें नासतना लेगीत दिल्लें उतर तिणें पुराय केलें. कोंकणी खातीर आनी चड करून आपल्या विद्यार्थ्यां कडची ही बांदिलकी!

इतल्या तत्वनिश्टपणान जगप खऱ्यांनीच कठीण. संस्कारी मनीस हो सादो आसपाक जाय अशें रवीन्द्रबाब म्हणटाले. हो सादेपणाय बी माधवीबायन जपलो. हो सादेपणा तांच्या व्यक्तिमत्वाक चड तेज दितालो. तांणी बरयल्लें, 'तांचे विशीं, म्हजेय विशीं' पुस्तक वाचतना तांच्या व्यक्तिमत्वाचो प्रवास कळटा. रवीन्द्रबाबाचो तांचेर कितलो प्रभाव आशिल्लो हें जाणवता.

तत्वां, वचनबद्दताय हे गूण तांचे भितर रवीन्द्रबाबाक लागून आयले हें खरें. पूण तत्वां पचोवपाक आनी दिसपटे जिणेंत तीं घोळोवपाक व्यक्तिमत्वांत तांक आसपाक जाय. मुळांत माधवीबायच्या व्यक्तिमत्वांत ती तांक आशिल्ली. गुरुन कितलीय विद्या दिवं, ती घेवपाक शिश्याची पात्रताय जाय. ज्ञान फकत आयकलें म्हूण जायना, तें पचोवपाक येवपाक जाय.

तांणी ५०व्या वाडदिसा निमतान 'मंथन' पुस्तकाच्या लोकार्पण सुवाळ्याक केल्ल्या भाशणांत म्हणिल्लें, ''जमिल्ल्या जाण्ट्यांक पांय पडन दिसता, पूण कमराची दूख वाडल्या'' आनी हें म्हणून तांचें तें हांसप, आजून दोळ्यां मुखार आसा. साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळटकच तांणी 'आपल्या हाचेपरस (मंथन) बऱ्या पुस्तकाक पुरस्कार मेळूं येतालो', ही प्रतिक्रिया दिल्ली. हाचे वेल्यान तांचो प्रामाणिकपणा दिसता.

माधवीबाय गेल्ल्यान संशोधनाच्या मळार कोंकणीचें न भरुन येवपा इतलें लुकसान जालं. 'तांचेविशीं, म्हजेय विशीं' ह्या पुस्तकांत माधवीबाय रवीन्द्रबाबा विशीं म्हणटा, ''तातो, 'एकमेवद्वितीय''. म्हाका दिसता माधवीबाय तूंय बी ''एकमेवद्वितीय''.

संपर्क: 9850149319

# तातोलें नानू आनी हांव

**कृपाली नायक**

भुरग्यांचें मन आपल्यांक वळखता आनी अपेक्षाय तें आपल्यां कडल्यांनच करता. सगळ्या नात्यां मदीं ताचें आपलेपण चड आसता तें मामा कडेन. मामा जर येतना खाली हातान आयलो जाल्यार ताचे कडेन भुरगीं हक्कान मागतात जांव रागार जातात. हें हेर खंयच्याय नात्या कडेन जाता अशें म्हाका तरी दिसना. नानू रवीन्द्र केळेकार अशें ल्हानपणांत बरोवपी नानू हाचे विशीं जेन्ना हांव चितता तेन्ना ह्या मामान नानूक पोश्यांनी दिलां आनी हे भाच्चेन तें ओंझळेन घेतलां म्हटल्यार अतिताय जांवची ना.

आयतार आयलो काय मॅडमीक तातो म्हऱ्यांत वचपाचे वेध लागताले कितलेंय काम आसूं, आयतार तातोक. जायते फावट आमी बरोबर गेल्यांत. ह्या आयताराक आमी तातो म्हऱ्यांत गो कृपाली? तूं येवशीत? परत मागीर, ''काम आसल्यार बी येवं नाका आं...'' म्हाकाय पिरवळा वचपाक आवडटालें. थंय वतकच तें घरच एक भुरळ घालता ती अनामीक. घरांत पावना फुडें आमी सरळ तातोच्या रुमांत. तातो बशिल्लो आसतालो वाट पळयत. ''नानू... आयलें गो?'' मागीर तातोच्यो आठवड्या भराच्यो गजाली तातूंत पुष्पा, सुखदा धरून साहित्य, राजकारण, आदले आपले उगडास... सगळें येतालें. त्या सगळ्या मदीं मॅडमीचो हातय चलतालो. आलमारींतल्या पुस्तकां वयल्यान आनी पुरस्कारां वयल्यानय. हरशी थंय निवळ निवळ आसतालें पूण तरीय आपले भशेन खंय डांबराच्यो गुळयो घालप, खंय वायटी लागल्या काय पळोवप. तिका सदाच भंय आसतालो तातोच्या पुस्तकांक वायटी बी लागता म्हण.

ही गजाल २००९ तली. एकदां पिरवळा वतना आमी रिक्षा करून गेल्लीं. उसरांच म्हळ्यार चार-साडेचारांक आमी फोड्यां पाविल्लीं. रिक्षेकारान पावोवपाक ४०० रुपया घेतले. म्हाका ते खूब दिसले. हांवें तिका म्हळें ''चडशे दिसूना?'' जाल्यार म्हणूंक लागली, ''आमी एकदां खंय तरी गेल्लीं. (खंय म्हण सांगिल्लें तें याद जायना) थंय टाग्यांत बशिल्लीं. म्हाका टांगेकारान सांगिल्लें पयशे चड दिसले हांवें तातोक तुजे भशेनच विचारलें. तातोची जाप ''मोटर सायकलवालो, रिक्षावालो, भाज्जेकार असल्यां कडेन केन्नाच वाणपण करप ना.'' कित्याक? म्हजो प्रस्न ''ते फटयनात?'' फटोवं... पूण कितली फटवणूक? पोटापुरतीच न्हय गो? आमी सुपर मार्केटांत वचून थंय सांगतात ती दर घेवन येनात? ती फटवणूक न्हय गो? आनी हांणी जर खरेंच फटयल्लें, जाल्यार ते हांगा आसपाचे न्हय. खंयचोय मुद्दो पटोवन दितना मॅडम इतली सहज तो पटोवन दिताली. दुसरें तातोगेर वतना आपूण तुकीक वेळ दिवंक पावना ही खंत तिचे मनांत आसताली. पूण तातोकय वेळ दिवंक जाय, मॉ गेले उपरांत तातो खूब एकटो पडला हाची जाणीवय तिका आशिल्ली. म्हण हो नियमीतपणां तिणें दवरिल्लो. केन्ना केन्ना खंती जावन म्हणटाली, ''तातोक जाय आशिल्ल्या लोकांनी ह्या वेळार तांगेर वचप न्हय गो?'' आनी कोणय गेल्यार म्हाकाय तितलेंच बरें जाता आशिल्लें. जायते फावट हेमाबाय कडेन हें तिणें उलोवनय दाखयलां तूं तातोक आवडटा. वच हां केन्नाय. आनी हेमाबाय गेलांय बी.

केन्नाय उलयतना आपल्या लग्ना कडली एक गजाल सांगताली.

तिणें तातोक जेन्ना राजू कडेन लग्न जाता म्हण सांगलें तेन्ना तातोन 'हय' म्हण सांगलें. तुज्या निवडी विशीं म्हाका मातूय दुबाव ना. पूण फुडें थंडपणान सांगलें. खंय, तुका जर खंयच्याय क्षणाक आपलो निर्णय चूक सो दिसता जाल्यार तुवें परत येवं येता. ती म्हणटाली, 'हाचो आपणाक इतलो आदार दिसलो जाणा तूं?' म्हाका खूब फावट मागीर हांव जेन्ना हें चित्तालें तेन्ना तातो कितल्या वेगळ्या विचारांचो तें कळटालें. आयज एकविसाव्या शेंकड्यांत वावुरपी पालकय अशें सांगपाक धजनात थंय तातो...

जायते फावट मॅडमीगेर सांजचें आसतालें रातचीं आठ वरां जालीं काय तिचे कडेन कितलेंय काम आसूं ती तातोक फोन करताली. इतलेंच न्हय तर वेळ मात्सो वयर सकयल जायत जाल्यार कासावीस जाताली. खंय कार्यावळीक सुद्दां गेल्ली आसल्यार तिका हुस्को आसतालो. वेळ जालो गो तातो फोनाक रावता म्हज्या. नानूच्या फोनाक तातोय रावतालो. हें सदचेंच. तातो फोनार उलोवपा सारको आसा म्हण सर हें चल्लां.



हांव एम. ए. करतना 'जागा'चें सगळें काम मडगांवच्यान जातालें. म्हणटकच हांव 'जागा'चेंच काम करपाक तिच्या घरा वतालें. काम म्हण कसलें 'जाग' आयलो म्हणटकच पॅक करप. 'जागा'चे पयलीं प्रुफां पळोवप हें खूब कमी केलां. खंयूय पुस्तकांचें प्रदर्शन आसत जाल्यार ते भरपाक पुस्तकां काडपाक वचप. केन्नाय कोणें चेक दिल्यार तो बँकेंत घालपाक, हाडपाक वचप. (हांगा 'केन्नाय' इतलेच खातीर म्हळां, नेमान 'जागा'चे पयशे भरपी खूब उणे. गोंयां भायले आसत जाल्यार तरी नेमान पयशे धाडटाले पूण गोंयांतले? ही खंत न्हय पूण कोंकणी आनी 'जाग' आपली लागणूक म्हणटल्यां कडली अपेक्षा) हांवें कोंकणींतले नेमाळें, दिसाळें पयश्यांनी घेवंक जाय ही लागणूक आसा आमकां? मोठें प्रस्नचिन्ह हें... जायते फावटी हाचेर आमचें उलोवपय जातालें. दिर्शी मार्शी पेपर म्हारग जाता तातूंत जायराती कमी. आनी मागीर एकदां तर आमी 'जाग' धाडप बंद करतले अशे काय जाणांक बरयल्लेंय बी. पूण परत तेंच. कोंकणी नेमाळें जायरातीचेर चलोवंक कित्याक पडचें? आमी इतले लाचार? अशें जायते प्रस्न म्हाका पडटाले. जायते फावट मॅडम आपल्या पगारांतले पयशे घालताली आनी 'आसू 'जाग' चलूंक जाय. सुमंतमामा आनी तातोचो तो, तो चलूंकच जाय' म्हणटाली. पगारा भायरय जर खंय लॅक्चरांक, सेमीनारांक पयशे मेळत तर हेच निश्ठेन सगलें 'जागा'क दवरताली. जर कोणाली बरी जायरात मेळत जाल्यार आनंदान मुद्दाम फोन करून सांगताली, ''व्हड जायरात आयल्या गो अमूक रुपयांची. ह्या म्हयन्याक 'जागा'चें टॅन्शन गेलें.'' 'जागा'ची परिस्थिती त्या काळार यो दिसा भर पोटा म्हणपा इतलीच आशिल्ली. पूण आपूण कोण्णा कडेन मागची ना. म्हज्यान जाता सर चलयतली ही तिची भुमिका. आतांय ती परिस्थिती सुदारल्या म्हणू येना.

मॅडम आपले कडेन आयिल्लो पयसो दुसऱ्यांक दितना कितले दिलां तें विसरताली पूण 'जागा'च्या हिश्पांत रेक्त 'जागा'क कितले पयशे आयल्यात ते. आनी 'जाग' प्रकाशना कडेन कितले पयशे आसात ताचो वेगळो हिशेब. तातूंतले सुमंतमामान काडिल्ल्या पुस्तकांचे मालामामीक कितले दिवंक जाय तो आनीक वेगळो हिशेब. हांगा दोन रुपया आनी रुपयाचोय हिशेब दवरताली. हांवें तें पळोवन विचारल्यार म्हणटाली, सुमंत मामा हो कोंकणीचो निश्ठावान भक्त. ताच्यान जाता तेन्ना ताणें आपले कडलें जायतें कोंकणीक दिलां. ताणें काडिल्ल्या पुस्तकांचे पयशे तिका दिवप ही म्हजी लागणूक न्हय. तातो गेले उपरांत एक दीस हांवें विचारलें, 'आतां पुस्तकां काय काडी नात. जाग प्रकाशनाचें आनी जागाचो वेगळो अकाऊन्ट कित्याक दवरला मॅडम? दोनय एक करुंक येनात' ''नाका गो २०२५त तातोची शंबरी. कोणय करूं वा ना करुं, 'जाग' प्रकाशनांतल्यान म्हाका तातोची शंबरी करूंकच जाय. ताची हिमालयांत, 'सांगाती' सारकेली पुस्तकां त्या वेळार परत काडूंक जाय, करूंया मगो तातोची शंबरी?'' ताका लागून हे पयशे सांबाळटां. तातोची शंबरी हें तिचें सपन. केन्नाय म्हण, ''कृपाली हांवें पळयलां भारतीय भासांत तातो ल्हान लेखक न्हय. पूण कोंकणी मनशाक कोणाकय व्हड करूंक येना. ज्ञानपीठकार म्हण सद्या तरी तो एकठोच न्हय गो?'' तातो वचून पयल्याच वर्साची गजाल, तातोची पुण्यतीथ कोणेंच मनोवंक ना म्हण तिका खूब वायट दिशिल्लें. आनी मागीर तिणेंच म्हणिल्लें दुसऱ्यांक शिणप ना. आपणें करप. आयज जेन्ना तिचो दीस आमी करतात तेन्ना मनांत हो विचार आयले बगर रावना. ती आशिल्ली जाल्यार... हें केन्नाच करूंक दिवंची नाशिल्ली. पूण तातोची मात जयंती आनी पुण्यतीथ 'जागा'चे वतीन करताच आशिल्ली. हे बाबतींत 'जाग'य कमी पडटा हें जाणवता... कशी खबर ना पूण तातोची शंबरी मात 'जागा'चे वतीन जावंक जाय... ही इत्सा.

तातोचेर मॅडमीचो उपाट मोग. तातोन सांगप हें निमाणचें. हो कुड्डो मोग न्हय. तर मॅडमीक तातो वैचारीक गुरु. तो तिचेखातीर देव नाशिल्लो पूण मनीस म्हूण ताका खूब आदर आशिल्लो. अशीच आनीक एक तिची इत्सा कितलेशेच फावट उलोवन दाखयताली. विजय तिचो भाव खंय तरी भोंवपाक गेल्लो तेन्ना ताणें हिचे खातीर टॉलोस्तॉयाचे जिणेचेर आनी ताचें घर बी कशें संग्रहीत करून दवरलां.

ताचेर ल्हानशी बुकलेट हाडिल्ली. ते पळोवन तिचो आनंद सामकोच उतू गेल्लो.

"कृपाली मात्शें येता? कितें तरी दाखोवंक जाय" घरा वच जाल्यार भुल्लुसून गेल्ले मॅडमीन पयली ती बुकलेट आपले हातान म्हाका चाळून दाखयली आनी म्हणटा कशी तातोचें घरय अशें दवरूंक जाय. ताची पुस्तकां, पुरस्कार, बडी, ताट, पेलो, चप्पल, शॉल, खुर्ची, खाट आनी ताचें घरय बी. संग्रहाक दवरिल्ले वरी... देशांतल्या आनी भायल्या खंयच्याय मनशांक तें सहज पळोवंक येवंक जाय. बाकीबाबाच्या घरा वरी तें जावंक जायना. जाय जाल्यार सरकारान हाचेर लक्ष घालूंक जाय. अशें म्हणपी मॅडम जेन्ना कोणें तरी तिका म्हळ्ळें की घरांतलीं पुस्तकां स्टेट लायब्रीक दिवन उडोवंक जाय कित्याक ती दवरून घरांत? तेन्ना रागान खुबळिल्लीय हांवें पळयल्यां. लोकांक कित्याक त्यो नस्त्यो तातोचीं कोण नात गो कृपाली... म्हणत तिचे दोळे भरून आयल्यात.

हांव पुण्यांत आसतनाय हांव दोन दिसां खातीर येतां म्हण तिका फोन करत जाल्यार आपणाक मेळटलें काय विचारचे पयलीं तिचो प्रस्न आसतालो 'तातोक मेळूंक वतलें?' तुजें येवप आवडटा ताका आनी हांवय तातोचे वोडीन पिरवळा वतालें. तातोक ज्ञानपीठ जाहीर जाल्लो तेन्नाची गजाल. तेन्ना हांव पुण्याक, येरवाडा बाजारांत मॅडमीचो फोन सुमार सांजेचे पावणे चारांक, तातोक ज्ञानपीठ जाहीर जाला गो म्हाका उमेद जाल्ली पूण व्यक्त करपाक म्हऱ्यांत कोणच ना. म्हज्यो भावना मिश्र. कोंकणीक ज्ञानपीठ मेळ्ळा आनी तो सॅलेब्रेट करपाक हांव तातो म्हऱ्यांतय ना आनी मॅडमी म्हऱ्यांतय.

तातोचें आनी नानूचें दोगायचेंय एकामेकाचेर खूब प्रेम पूण ह्या प्रेमाचो दिखावो करप तिका जम नाशिल्लें. तातोक खंयचेय कार्यावळीक घेवन वचूं, ताका फुडें सोडून आपूण कुशीक बसताली. मुखार मुखार करप तिका जमच नाशिल्लें. कार्यावळी खंयचीय जांव मागीर ती ज्ञानपीठ सुद्दां... तिका भंय आसतालो आपूण मुखार मुखार केलें जाल्यार कोणाकय वायट दिसत. खरें म्हळ्यार तिचीच आयडेंटीटी इतली व्हड की तिका हें दिसूंक फाव नाशिल्लें. पूण तिचे कडेन आशिल्ली नमळायच तिका अशें करूंक दिना आशिल्ली. ज्ञानपीठ दिवपाच्या दिसांनी तातो सामको जाम. जाल्यार मॅडम अस्वस्थ कशें जातलें हो तिचो हुस्को. ह्याच हुस्क्यांत ज्ञानपीठ जालें.

आतां तातोचें निमणें दुखणें ताचो अपोलोंत. मॅडम ह्या काळांत 'जाग' पळयताली, घर पळयताली, मुकाट्यांनी युनिव्हर्सिटींतल्यो काडावोडी काडटाली, आनी तातोचें करताली. "सांज वेळार तूं तातो वांगडा रावता मुगो? तातो म्हऱ्यांत मॅडमीन हक्कान केल्ली मागणी. रातचें हांव येतां. आमचे वांगडा ह्या काळांत हेरय जाणां आशिल्लीं. म्हजो टायम तिळसांजचो. हांव वचना फुडें तातोचीं दोन वाक्यां आसतालीं, 'आयलें तूं?' आनी 'तुमका त्रास...' फुडें फकत नानूक सोदप 'नानू खंय?, ताका आपय', तातोचो हट्ट सो. म्हाका घरा व्हरात... येता तातो, मात्सो सूप करूंक गेल्या ती म्हणत हांवें मॅडम येवपाची वाट पळोवप. मॅडमीनय आपलें सगलें आटापतें घेवन बेगीनात बेगीन हॉस्पिटलांत पावप. हेय अवस्थेंत तातो कुशीकचे खाटीचेर कोण आसात तें विचारतालो. तांची विचारपूस करतालो. आपल्यो कांय गजाली सांगतालो... यादी तर घट्ट आशिल्ल्यो. एक काय दोन दीस आदीं तातोक आय.सी.यू.तल्यान शिफ्ट केल्लें. आता तो निवळटलो अशी आस जावंक लागिल्ली. पूण म्हाका दिसता मनीस जर बरो नासत जाल्यार शेवटच्या दिसांनी आपूण बरो जातल्याची आस दाखयता. आनी ते आशेरच सगळ्यांक सोडून वता. शेवटच्या दिसा म्हजे पयलीं ज्योती (ज्योती देसाय) आशिल्लें. तेंवय दोन फावट आयिल्ले हॉस्पिटलांत. ते दिसा बस चुकता म्हण तें हांव येवचे पयलींच गेल्लें. हांव रुमांत भितर सरत जाल्यार एक वॉर्डबॉय तातोच्या म्हऱ्यांत आसा आनी तातोन तकली आड घातल्या. कांय खिणां भितर मॅडमीक जाल्ली स्थिती सांगली. थोड्याच वेळा भितर मॅडम, विजय सर थंय पावलीं. तो वेळ मेरेन तातोक परत आय.सी.यू.त व्हेल्ले. ते राती हांव १ वर मेरेन हॉस्पिटलांत आशिल्लें. मॅडम ते दिसा तटस्थ आशिल्ली. तूं चल, हांव रावतां म्हणून म्हज्या मनांत नासूनय तिणें फोर्सान शें म्हाका ते राती आकू वांगडा घरा धाडलां. हांव तेन्ना सी.ई.ए.सांत. दुसरे दिसा सकाळीं कॉलेजींत तिचो फोन 'तातो गेलो गो.' ह्या फोनांत मॅडमीचो आवाज खूब भावूक आशिल्लो. पूण आपलें दुख्ख अव्यक्त दवरपाचो ती यत्नय करतना दिसली.

खरें म्हळ्यार तातो वतकच एक म्हयनो भर गळसणून पडिल्ल्या वरी जाल्लें. कांयच करूंक नाका शें दिसतालें. दुसऱ्या दिसा मॅडमीचो फोन 'कितें करतालें?' 'काय ना जीव जड सो जाला. कितेंय करपाक मनच येना' 'हय गो म्हजेंय तशेंच जालां खाली खाली दिसता. म्हण तुका फोन केल्लो'म्हणत वर भर आमी उलयल्यात. मागीर म्हयनो भर अशेंच चलिल्लें. जेन्ना हांव तातोच्या आनी नानूच्या नात्या विशीं चिंतता तेन्ना तें फकत रक्ताचें नाते दिसना जाल्यार मायेचें, आदराचें नाते दिसता.

मॅडमीक लागून म्हाका तातोचो सहवास मेळ्ळो. आनी तातोक लागून ताच्या घरांतलीं सगळीं आपलींशीं जालीं. म्हाका तर सगळींच प्रिय. तातोच्या बाराव्याक गेल्लें तेन्ना गिरीशकाकान मुद्दम सांगिल्लें, कृपाली तूं आमचें, तुवें हांगा येत रावप. नानू येतना हाड गो ताका आं... मॅडमीनय म्हणिल्लें येवंक जाय हां कृपाली आमी तातोगेर. काकी तर मायेचो झरो कशी. मुकाट्यांनी सगळ्यांचें करपी. आयजय यशोधा मेळटकच विचारता, "कृपाली केन्ना येता गो बायक घेवन रावपाक?" इतलें तें आपलेंपण कायम आसा... पूण एक गजाल म्हाका पट्टा दोन कडेन ती हांवें अणभवल्या जाणट्यांची म्हण कितें तरी सासाय आसता जांव ती एक ओड आसता. जशें तातो आसतना पिरवळा वचप जातालें जांव मांव आसतना घरा धांवप जातालें ते ओडीन आतां वचप जायना. मॅडमय पाव नाशिल्ली. तिकाय तें वायट दिसतालें वचूंक जाय गो पिरवळा अशो कितलेशेंच फावटी म्हणटाली... ती पिरवळची ओड वेगळीच.

संपर्कः 9765187606



# कांय अमर यादी...

ॲडना वाझ फेर्नांडीस

खऱ्यांनीच मनशां पयस गेले उपरांतूच तांचें मोल कळटा. माधवी मॅडम गेले उपरांत तिच्या संपर्कांत आयिल्ल्या जण एका मनशाक अशें दिसलां आसतलें हातूंत इल्लोय दुबाव ना. ती आशिल्लीच तशी. कांय मनशां कितलोसोच तेंप आमच्या जिवितांत वावुरतात पूण आमच्या जिविताचेर व्हडलोसो प्रभाव घालूंक पावनात. पूण माधवी मॅडमीं सारकीं मनशां जिणे-पयणाचेर कांय खिणां खातीर मेळ्ळीं तरी आमचेर खूब खोल असो प्रभाव घालतात, आमचो जिणे प्रवास सुखमय करतात.

७ जुलयाक माधवी मॅडमीचो जल्मदीस... ह्याच दिसा तिची याद जाता अशें न्हय. जिविताच्या कितल्याशाच आंगांचेर तिचो प्रभाव आसा. कोंकणी संदर्भांतल्या कितल्याश्याच मुद्द्यांचेर विचार करतना तिच्या मतांचो उगडास जाता. कांय गजाली मनशा भितर उपजत आसल्यो तरी कांय मनशांच्या प्रभावांक लागून त्या गजालींक एक वेगळीच खोलाय फाव जाता. एक मनीस म्हूण, एक शिक्षक म्हूण माधवी मॅडमीन म्हाका खूब प्रभावीत केलां.

**कोंकणी विशीं लागणूक, तिच्यो गरजो वळखप...**

आवयभाशेचो मान राखप, तिच्यो गरजो वळखप ही आमची जण एकल्याची लागणूक. माधवी मॅडमीचो कोंकणी वेलो मोग तिच्या उतरांतल्यानूच न्हय बगर तिणें केल्ल्या कर्तुबांतल्यान दिसून येता. कोंकणी साहित्य आनी संशोधना खातीर ओंपिल्ल्या जागांतल्यान तिणें जीव ओतून कोंकणी भास आनी साहित्याची सेवा केली. आवय भाशेची सेवा ओगेपणान, निस्वार्थी मनान करीत रावप होच आवय भाशेवेलो खरो मोग हें तिणें दाखोवन दिलें. कोंकणींत जें आसा तिचो तिका अभिमान आसलो आनी जें ना तें तयार जावचें हाचो कळवळो आसलो. आमच्या एम.ए. वेळार तिणें आमचे मुखार दवरिल्लीं कोंकणी भास आनी साहित्या विशींचीं मतां, विधानां तिच्या खोल वाचनाची, सुक्ष्म निरिक्षणाची आनी तटस्थ नदरेची गवाय दितालीं. कोंकणींत ललीत लेखनाची कमी ना. मात कोंकणीक संशोधन साहित्याची चड गरज आसा अशें ती सदांच म्हण. संशोधन साहित्याक हात घालूंक सोदपी भोव कमी हाची तिका खंत जाताली. नवे पिळगे भितर संशोधनाची कीट पेटची म्हूण ती खूब यत्न करी. ह्याच प्रयत्नाचो परिणाम म्हूण तिच्या कांय विद्यार्थ्यां कडल्या संशोधनात्मक लेख तयार जाताले. स्वता भितर प्रभावी ललीत लेखन करपाची तांक आसुनय तिणें स्वताक संशोधन साहित्या खातीर ओंपून दिलें.

**आदर्श शिक्षक, अभ्यासू विद्यार्थी**

माधवी मॅडम आदर्श शिक्षकाची एक उत्तम देख आशिल्ली. पुस्तकांतल्या गिन्याना भायर विद्यार्थ्यांक वेगळें कितें तरी सांगचें, शिकोवचें हो तिचो सदांच प्रयत्न आसतालो. ती शिकयताली तेन्ना तिच्या खोल वाचनाचें, अभ्यासू नदरेचें, उपाट गिन्यानाचें दर्शन जातालें. दुसऱ्यांचीं मतां आयकून घेतना, गरज थंय सुचोवण्यो करतना ती खूब विशाळ नदरेन आनी शांतपणान करताली. विद्यार्थ्यांकूय तांचे विचार, हुस्के, भिरांत, निर्भीडपणान व्यक्त करपाचें पुराय स्वातंत्र्य आसलें. वर्गा भायर लेगीत विद्यार्थ्यांचे सगळे तरेचे प्रस्न सोडोवंक ती तयार आसताली.

एका निश्ठावंत शिक्षकाचें शिकप केन्नाच सोंपना, तें सदांच चालूच



# जंटलमन चोर

दामोदर मावजो

कसलो तरी आवाज आयलो आनी जाग आयली. लायट लावन घडयाळ पळयली जाल्यार देड जाल्लें. लायट पालयता म्हण सर परतून आवाज जालो. सकयल किचनांत कोण तरी उस्तिता शें दिसलें. ह्या साड्या सुड्यागेर दुसरो कोण ना - माजर लेगीत. हांव उठलों.

म्हगेलें हें घर म्हळ्यार सकयल किचन आनी बसपा कूड. थंयच जेवणा मेज. वयर म्हगेली न्हिदपा कूड आनी मान्नें. लोक हाका 'ड्युप्लॅक्स बंगलो' बी म्हणटात. म्हणूं. म्हजे खातीर तें घर. ह्या घरान म्हजे कडसून जावपी घोरेवणी आनी कागदाचेर जावपी पेनाची खरखर सोडून दुसरें कांय आयकलें ना केन्ना. म्हजी जिज्ञासा चाळवली. मेजून चार आनी घुंवन सात, वट्ट इकरां सोपणां देंवन सकयल आयलों. काळखांत बाबडो टॉर्च घेवन खण उस्तितालो. हांवें लायट पेटयली. ताणें आंग काडलें. काय तशें नाटक केलें? हांव कांय चोरपावलांनीं देंवंक नासलों.

''हॅलो, कितें सोदतां?''

काळो टी शर्ट आनी काळी पँट ताच्या आंगार सोबना अशें म्हाका बेठेंच दिसलें.

''पळयतलों - कितें आसा तें.'' नदरेक थेट नदर दिवन ताणें सांगलें.

''खावंक?''

''कितेंय -''

''भूक लागल्या?''

तो वग्गी

''कोण तूं?''

''चोर.''

''चोर सो दिसना.''

''चोराक कितें शिंगां आसतात?''

''पूण पळयल्यार चोर सो दिसना -''

''तुवें चोर पळयल्यात?''

हांव गणमणलों. हांवें फकत नाटकां-सिनेमांनी आनी पेपराचेर येवपी फोटो पळयिल्लें.

''खावंक कितें जाय?'' हांवें नदर टाळून विचारलें.

''कितें आसा?''

''केल्लें कांय ना. करूं येता.''

''कितें?''

''म्हगेली ऑम्लेट बरी जाता - म्हळ्यार तशें म्हाका दिसता.''

''खावन सांगतां कशी लागता तें.''

हांवें फ्रीज उगडून दोन तांतयां भायर काडलीं.

''कांय ना तुगेल्या फ्रिजांत.''

''हीं तांतयां खंयच्यान काडलीं तर हांवें?''

''चीज, बटर, केक...''

''फळां आसात तीं पळयलीं ना तुवें? ॲपल आसा, पोपाय आसा.''

''सुरी मेळ्ळी ना -''

''सुरी घेनासतना भोंवता? चोर कसलो तर तूं?''

''हांव मारेकार सो दिसतां?''

''भेश्टावपाक तरी आसूंक जाय न्ही-''

''तूं भियेतलो सुरयेक?''

''म्हजें सोड. पूण हेरांक...''

''भियेता ताका भेश्टावपाक सुरयेची गरज

ना.''

कांदो, मिरसांग, तोमात शिनतासतना ताणें विचारलें, ''आनीक कोण ना घरांत?''

''कोणूय पोलिसांक आफयत म्हूण भियेता?''

तो कांय उलयलो ना. मागीर म्हणूंक लागलो, ''तूं ह्या घुडांत रावता? भायर बी वचना?''

''म्हाका पब्लिकांत वचपाक आवडना.'' आरेच्चा! हाका शें सांगतां हांव हें? घडये, त्या दंभीक समाजा पसून पयस धांवपी म्हाका हो चोर जंटलमन सो दिसलो जावंये.

शिनून जातकच तांतूंत तांतीं बीट करून तव्यार घालतना हांवें विचारलें -

''सगलीं घरां सोडून तूं ह्या घरांत सो पावलो?''

''तुगेलें कुलप सादें - उगडपाक सोपें आसलें.''

''पूण म्हगेर चोरपा सारकें कांय ना. कितें व्हरतलो?''

''मेळटा तें -''

हांवें नदर मारून हे वटेन ते वटेन पळयलें. टी.व्ही.? तो व्हड आनी जड. पुस्तकां? तांचें मोल ताका कशें कळपाचें? पयशे?

''निमाणी शंबरांची नोट कालच मोडिल्ली. चिल्लर आसात. दिवं?'' ऑम्लेट प्लेटीर घालून ताचे मुखार दवरून विचारलें.

''नाका.'' ऑम्लेटीचो वास नाकांत भरून घेवन ताणें म्हळें, ''ऑम्लेट बॅस्ट -''

''खावचे पयलींच?''

''चोरांचे नाक बरें आसूंक जाय. मागीर वासाचेरच कळटा.''

तो ऑम्लेट रुचीन खाता तें पळयत रावचें शें दिसलें म्हाका. चिके रावन हांवें विचारलें, ''तूं काम कसलें करता?''

खाता खातांच तो हांसलो. नाकसुरें वचपा इतलें हांसलो. हांवें उदकाचो ग्लास ताच्या मुखार दवरून विचारले, ''हांसलो कित्याक?''

''चोराक कसलें काम करता म्हूण विचारपी तूं पयलोच आसूं ये.'' उदकाचो घोंट मारून ताणें फुडें विचारलें, ''शाळेंत शिकयतना टिचराक केन्ना विचारता कोण, तूं कसलें काम करता काय म्हूण?''

बेसिना कडेन वचून ताणें हात धुयले. म्हाका ताची काकुळट दिसली. ''सॉरी मिस्टर चोर, तुका कांयच मेळ्ळें ना हांगा.''

''मेळ्ळें तर! फर्स्ट क्लास ऑम्लेट आनी''

''आनी कितें?''

''नवी वळख - तुजी.''

''वळख जाली? सांग पळोवंया हांव कोण तें?''

''फ्रान्झ.'' खिणाचो कळाव करिनासतना ताणें सांगलें.

''तें म्हजें नांव न्हय.''

''हांवें नांव सांगूंक ना. वळख सांगल्या.'' आनी फुडे कांयच उलयनासतना तो उठून भायर गेलो.

''आरे, राव, जंटलमन -'' दारा कडेन तो थांबलो. कुलपाक बोट दाखोवन आनी बोल्सांतलो चावयां घोंस दाखोवन सांगलें, ''कुलप तोडूंक ना. मास्टर की लावन उगडलां. परतें वापर तूं.''

परतें वापर म्हणचे परतून येतलो तेन्ना आपणांक त्रास नाका अशें म्हणपाचें आसा काय? तशें जाल्यार - ''एऽ जंटलमन चोर, यो केन्नाय. घर तुजेंच-''

कानार पडचे पयलींच तो भायल्या काळखांत भरसून गेलो. जंटलमन मनीस ह्या संवसारांत सपसप मेळनात. जंटलमन चोर तर दुर्मीळच. बरोवपाक एक बरो विशय मेळ्ळो म्हूण हांव खुशाल जालों. ते राती म्हाका बरीऽ न्हीद पडली. आनी न्हिदांत सपनां - जंटलमन चोराचीं.

सकाळीं फुडें प्रकाशकालो फोन आयलो, ''सर, एके कॉलेजीन तुका आमंत्रण धाडलां. म्हाका रिक्वेस्ट केला तुका-''

''तुका सांगिल्लें हांवें, म्हजो फोन, पत्तो, फोटो कांयच कोणाक कळूंक फावना म्हूण. तरी?''

''देखून तर तांणीं म्हाका-''

''हें पळय, फुडलो म्हयनो भर तूं लेगीत हांव मेलों म्हूण समज. नो फोन. समजलो?''

म्हाका त्या जंटलमनाल्या सपनांतल्यान भायर सरपाचेंच नासलें. खूब भारावन गेल्लों हांव.

फुडले कांय दीस संवेदना अदिकादीक तीव्र जायत गेली आनी भार आयिल्ले वरी म्हजी तनरी लागली. म्हयनो सरता सर कादंबरेचीं दोनेकशीं पानां बरोवन जालीं. अखेरच्या पावंड्यार पाविल्लीं. सर्जनाचीं अस्वस्थ आवतिकाय म्हजेर वागरें घालून म्हाका प्रेरीत करताली. अशा वेळार म्हाका सपसप कांयच आयकूंक येना. पूण त्या दिसा शेजाराक चलिल्ल्या बोवाळान म्हजें चित्त विचलीत जालें. तिडकीन म्हणटात तसो हांव उठलों. सकयल वचून दार उकतें केलें. शेजाऱ्याल्या दारांत धा पंदरा लोक एकठांय जाल्लो. जणेकलो ताणशेतालो. हांवें कितेंय विचारलें पयलीं शेजाऱ्यांनच म्हाका विचारलें, ''आरे, तूं वळखता खंय हाका?''

शेजारी कोणाच्या तरी गोलाक धरून हालयतालो आनी ताच्या बचक्यांतसून सुटपाचो कसलोच येत्न करिनासतना सरळ नदरेन तो म्हाकाय पळयतालो. वळखपाक कळाव लागलो ना. अचकीत म्हज्या शिरंतरांतली उमळ म्हाका उत्तेजीत करूंक लागली.

''कोण हो? तूं वळखता हाका?'' शेजारी म्हाकाच धमकायिल्ले वरी विचारतालो.

''हय, हय. जंटलमन तो -'' म्हाका उतर फुटलें.

''कितें? तो चोरूंक आयिल्लो -, म्हगेली सायकल. ज्युस्त सांपडलो. हय मरे?'' शेजारी ताचेच कडेन खरेपण घेवंक लागलो.

म्हज्यान पळोवं नज जालें. ''सोड ताका.''

''सोडूं? तूं जंटलमन म्हण्टा हाका?''

''आय मीन, जंटलमन चोर तो... सोड ताका. प्लीज...'' हांवें उपकार मानले. तरी बरें - म्हाका विचित्र नदरेन पळयत जावं मागीर, सोडलो ताका.

''एऽ जंटलमन चोर, यो, पयलीं भितर सर.'' दो पावलां फुडें वचून हांवें ताका ओडून भितर घेतलो.

''सायकलच जाय जाल्यार म्हजे कडेन मागची न्हय?''

''तुजे कडेन खंय आसा?''

''आसा तर!'' हांव नदरेन सोदूंक लागलों.

''आशिल्ली.''

''म्हणचे?''

''स्क्रॅपाक दिली. आठ दीस जाले.'' नदरेक नदर लावन ताणें सांगलें.

म्हाका ताची लक्तुबाय दिसली. ''कॉफी घेता?''

''ऑम्लेट खावन पळयली. आतां कॉफी

घे म्हण्टा?''

''ऑम्लेट जाय तर?''

''नाका. कॉफी घेवन पळयतां.''

हांव कॉफी करतां म्हण सर ताणें फ्रीज उकतो केलो.

''वा:! बरी प्रगती आसा तर!'' अशें म्हणून चिजाचो स्लाय्स काडलो.

''चीज बिस्किटे वांगडा खा. दिवं?'' कॉफीचो मग ताच्या मुखार दवरून म्हळें.

''राय्स क्रॅकर ना तुजे कडेन. गोड बिस्कीट म्हाका आवडना.'' निखटो चीज खायत ताणें म्हळें.

''चीज आनी कॉफी?'' हांवें तोंड वांकडे करून म्हळें.

तो हांसलो.

''हांसलो सो?''

''तूं आनी हांव तसो चीज आनी कॉफी. कितें चुकलें?''

तागेली कॉफी सोंपता सर हांव ताका नियाळीत बसलों.

''फ्रान्झ, तुगेलें किचन पळयलें हांवें. वयलें घर दाखोवचो ना?''

''वयर कांय ना.''

''जशें कितें हांगा सकयल पोटलो दवरला तुवें! आयलांच जाल्यार पळोवन घेतां.'' आनी म्हजे पयलीं तो वयर पावलो.

कुडींतली कॉट पळोवन ताणें विचारलें, ''डबल बॅड? आनीक कोण रावता वांगडा?''

''ना.'' हांवें मान हालयली.

''कॉट व्हडली आसा. हांव येवं रावपाक?''

''गे तर तूं?''

तो हांसलो. ''दादल्यान दादल्या वांगडा बॅड शेअर करपाक तो गे आसूंक जाय असो कायदो आसा तर?'' अशें म्हणटनाच तो बाज्जेर आड पडलो. म्हाका सकयल वयर जालें.

''म्हाका आवडना म्हजे बाज्जेर कोणूय न्हिदिल्लें.'' स्पश्ट सांगलें.

तो पिट्ट करून उठलो. म्हज्या मेजा कुशीच्या कदेलार बसलो. आनी दोनूय कान धरून ताणें म्हळें, ''सॉरी, सर.''

''कमॉन, आवडना इतलेंच म्हणलां हांवें.''

''भिलों खरों हांव. त्या थापटाचो उगडास जालो.'' कान सोडनासतना ताणें म्हळें.

''हांवें केन्ना थापट उबारलां तुजेर?''

''म्हजेर न्हय. त्या गब्बराचेर-''

''तुका कशें कळ्ळें?''

''हांव आशिल्लो थंय-'' कान सोडून ताणें म्हळें.'' मस्त्या गब्बराली बरी जिरयली तुवें. पूण तो दुसरो एपिसोड खंय. पयलो चुकलो म्हाका. सांगशी? पयले खेपेक कितें जाल्लें तें?

हांव विसरिल्लोंच.

प्रकाशकाक मेळून परततना दनपार जाल्ली. जेवपाक गब्बराल्या हॉटेलांत गेल्लों. बील आयलें. अडेजशें रुपये. बोल्सांत हात घाल जाल्यार वॉलॅट घरा विसरिल्लो. गब्बरा कडेन वचून सांगलें मागीर हाडून दितां म्हूण. जाल्यार पोल्यार थापट मारलें. घरा वचून पयशे घेवन परतो गेलो तेन्ना गब्बर गल्ल्यार आशिल्लो. भोंवतणी गर्दी आसली.

''परतो आयलो?'' म्हाका पळोवन गब्बरान विचारलें.

''पयशे दिवपाचें आशिल्ले - कितले ते?''

''गूड. म्हाका दिसूंक नासलें परतून तोंड दाखोवशी म्हूण. दी. दोनशीं पन्नास.''

दोनशीं पन्नास ताच्या हातार दवरून म्हळें, ''दोनशीं पन्नास दिवचे उरिल्ले म्हूण थापट घेतिल्लें. आतां तुगेले दोनशी पन्नास तुका पावले म्हणटकच थापट परतें घे.'' अशें म्हणून हांवें थंयच ताच्या पोल्यार थापट फुलयिल्लें.

जंटलमन मज घेवन आयकतालो. ''तूं जाणा, गब्बरालें खुमणे पळोवन सगले खूश त्या दिसा.''

''त्या दिसा तूं आशिल्लो तर थंय?''

ताणें मान हालयली.

''हाचो अर्थ ते राती तूं चोरूंक आयिल्लो तेन्ना म्हाका वळखल्लो.''

''ना. पूण मागीर याद जाली.''

''आतां खातरी जाली मूं?'' बरोवप अर्दार उरला ती याद जाली म्हाका. हाका कटोवपाचो वेळ आयिल्लो.

''हांव तुका गेल्लों जाय, रायट?''

''परतून आयिल्लोय जाय.''

''मेळूंया - रोखडेच.'' उठलो, ''पूण एक काम करशी? भायर रस्त्या मेरेन म्हाका सांगात दी.''

''शेजाऱ्याक भियेता? चल.''

ताका भायर सोडटना हांवें विचारलें, ''तुका कितें म्हूण उलो मारूं?''

''आतां मेरेन मारीत आयला तसोच - जंटलमन चोर!''

तो गेलो. म्हजे खातीर पयलीं एक स्ट्रॉंग कॉफी केली आनी मग घेवनच वयर गेलों. पळय जाल्यार -

कपलार हात मारलो. मेजार कादंबरेचे स्क्रिप्ट दवरिल्ली फायलच गायब. धांवट भायर गेलों. पूण तो खंयच नदरेंत आसपावलो ना.

सांजेर फोन आयलो, ''हॅलो!''

''कोण उलयता?''

''जंटलमन चोर.''

''तूं? म्हगेली फायल व्हेल्या मरे तुवें?''

''चोरल्या.''

''अती जालें. हांव तुकां जंटलमन समजतालों.''

''इतल्यान मत बदललें?''

''तूं जाणा ताचें मोल? म्हजो म्हयन्याचो वावर फुकट-''

''शिता फुडें मीठ खावं नाका. तुका फायल जाय मूं?''

''ऑफ कोर्स! आनी बेगीन-''

''भियेवं नाका. मेळटली.''

''पूण केन्ना?''

''सोमारा.''

''सोमारा? आं- फाल्यांच सोमार. ओके. वाट पळयतां.'' सुसकारो आडायत म्हळें.

''यो आनी व्हर.''

''तुवें व्हेल्ली, तूं हाडून दी.''

''ना. तुका हांगा येवचें पडटलें व्हरपाक.''

''हांगा म्हळ्यार खंय?''

''सेंट्रल बस स्टॅंडार. शटल सर्वीसच्या तिकेट काऊंटरा कडेन. दनपारां बारांक.''

ती रात हुस्क्यान काडली. कसली अपेक्षा आसा काय ताची? खबर तरी आसा काय ताका ते फायलीचें मोल?

सकाळीं बॅंकेंत वचून पयशे काडले - चडशेच. बारा जावचे पयलींच बस स्टॅंडार पावलो. रावचें पडलें.

''बारा म्हळ्यार बारा.'' काऊंटरा वयली घडयाळ पळोवन ताणें म्हळें.

''स्क्रिप्ट?''

''थार धर. यो.''

ताणेंच रिक्षा केली, ''मिरामार.''

"हें पळय जंटलमन, स्पश्ट सांग. तुका जाय कितें?"

"कितें आसा तुजे कडेन?"

हांवें वॉलेट काडून ताचे कडेन दिलें.

तो हांसलो. "तुगेले सगले दुडू काडून घेतले तरी तूं पुलिसेंत तक्रार करचो ना हाची खातरी आसा म्हाका. पूण जे फायलींत तुजो जीव अडकला ती फायलच शेणली म्हूण सांगल्यार तूं कितें करतलों?"

"कितें करूं येता? तूंच सांग." गळसणून हांवें म्हळें.

"खरेंच सांगलें फायल शेणल्या म्हजे कडेन म्हूण, जाल्यार कितें जातलें?"

वग्गी रावलो.

"रागार म्हजेर?"

म्हगेली सगली उमेद जिरली. नकळटना एक सुसकारो सुटलो.

"कितें म्हणूं? आसूं. सुटले बाबडे वाचक." हांव किण्ण हांसलों.

रिक्षा कॉलेजीच्या दरवंट्या कडेन थारली.

"फायल आसा काय ना सांग बेगीन."

"यो. पळोवया."

"हांगा शें कितें काम आसा तुजें?"

"हांव शिकयता हांगा."

"चोरी करपाक?"

"इंग्लीश लिटरेचर."

"पूण तूं तर-"

"लेखक, शिक्षक चोरयो करिनात? मागीर चोरांनी लिटरेचर शिकयलें जाल्यार कितें इबाडलें?"

"हें पळय, म्हाका परतो वचपाची ताकतीक आसा. तुंवें फायल दितां म्हूण सांगून आफयला. दी आनी कर आवियार-"

"आनीक पांच मिणटां. मागीर फायल घे आनी वच." अशें म्हणून तो म्हाका घेवन एके क्लासींत भितर सरलो - "बी.ए. फायनलचो वर्ग हो. यो."

"गूड डे, सर." म्हणीत सगलीं विद्यार्थी भुरगीं उठून उबीं रावलीं.

"यू मे सीट डाउन प्लीज." भुरगीं बसलीं.

"हें पळय, जंटलमन, तूं जाणां, म्हाका अशें पब्लिकां मदीं वचूंक आवडना. ना वळख ना देख. तूं कितें म्हणून-"

"पूण तीं सगलीं तुका वळखतात."

"आनी ह्या जंटलमन चोराक?"

"पुरायेन. तांकां सगलें खबर आसा. तुजी म्हजी पयली भेट; गब्बर एपिसोड; कालची सगली खबर -

"आनी म्हाका कितें म्हूण वळखतात तर तीं?"

"तांकांच विचारूं या." आनी ताणें विद्यार्थ्यांक विचारलें, "यू नो हीम, रायट?"

"यस, सर." एका ताळ्यान भुरग्यांनी सांगलें.

"कोण हो?"

"काफ्का."

संपर्क: 09422059509

# सुर्लाच्या देगणांत

डॉ. प्रकाश पर्येकार

मुखेल संयोजक प्रदीप हाणें सगळ्यांक कार्यक्रमा खातीर सादयले. वरां रातचीं इकरा जाल्लीं. "रात जाली रे. आतां न्हिदया. सकाळीं बेगीन उठपाक जाय." चलून थकिल्लो कोण तरी उलयलो. कार्यक्रमा खातीर हेरांनीय तयारी दाखयली ना. सगळेच थकिल्ले वरी आपली हांतरुणां घालपाक लागले. फाटलीं सतरा वर्सां न चुकतां रातची आमी कार्यावळ केल्या. पयलेच फावट कार्यावळ करिनासतना सगळे न्हिदपाची तयारी करताले.

रातचें रानांत न्हिदप हें म्हजे खातीर नवें न्हय. शाल्मली आनी कार्तिक झाडांनी रातचीं जायते फावट रावल्यांत. साहील आनी तन्मय हांचो वास्को शारांत राबितो. तांचे खातीर हो वेगळोच अणभव. फातर तोंपचे न्हय म्हूण आमी आमच्या हांतरुणा पोदां ताळे घातिल्ले. देसायान वजें भर दाट चादर बॅगांतल्यान भायर काडली. हाचें बॅग इतलें कित्याक जड तें आतां कळ्ळें. "थंडेक लागून पोरूं होळडें गांवांत रातभर न्हिदलों ना." पूण हांगा जाल्लें परतें. रानांत वारें सुटिल्लें. शीं खंयचे कडेन नाच्च जाल्लें. देसायान रग आंगा पोंदा हातळून तो आतां उक्तो न्हिदिल्लो. "कित्याक येदो मोठो रग हाडला. फाटीर वजें मात." हांव अशें म्हणिना फुडें तो वगीच रावलो. "आमी चार ते पांच वरां न्हिदतात. आनी सुमार चवदा-पंदरा वरां वजें फाटीर घेवन दोंगर पालसणाची वाट माड्डीतात." हांवें ताका वज्याचें गणीत सांगलें. म्हजें म्हणणें ताका पटलें. हाचे फुडें अशें वजें ट्रॅकाक घेवन येवप ना. अशें म्हूण तो न्हिदलो आनी कांय वेळान घोरेवपाक लागलो.



सकाळीं सगळ्यांचे जागीन शाल्मली तापतूच उठलें. "पा. कितें रें तूं कितल्या मोठ्यान घोरोऽऽ घोरोऽऽ करून घोरेता... कान दुखले म्हजे. दादी बी घोरेता आनी हो काकाय बी घोरेता." हांव न्हिदेंत घोरेवंक ना असो म्हजो समज जाल्लो. म्हाका म्हजीच लज दिसली. मागीर सगळेच कोण कोण घोरेताले ताची वळेरी मुखार आयली. चलून चलून काशेर जातकच रातचें घोरेवंक जाता. ह्या वेळार कातळाचे माळी हांगा आयोजीत केल्ले रानभोंवडेची म्हाका याद जाली. आमचे वांगडा धोंडो शेळके आशिल्लो. रातचो तो पिल्लूक वाजयल्ले वरी घोरेतालो. सकाळीं फुडें ताच्या त्या घोरेवपाचेर सगळेच चर्चा करताले.

"दादी बरें दिसना तुका?" सकाळीं च्या घेतना दादीक प्रस्न केलो. ऑपरेशना भायर पुरो जावपा फाटलीं ताणी आनीक दोन कारणां सांगलीं. घरांत तिजुले धुता आसतना पडून ताचें भेंड दुखिल्लें. दुसरें कारण म्हळ्यार संवय नासतना दोन माडार चडून ताणें नाल्ल काडिल्ले. सकाळीं च्याये वांगडा फोव हो वर्साचो मेनू. फोव कित्याक? ते वज्याक वांगडा घेवंक बरे पडटात. फोव करपाकय चड तकालस घेवची पडना.

च्या जाले उपरांत सगळ्यांक फुडली सुचोवणी दिली. सगळो परिसर निवळ केलो. जळट्या लांकडांचेर उदक ओतून उजो सारको पालवला हाची प्रदीपान खात्री करून घेतली. न्हंयच्या पात्रांतल्यान सकयल परत चलप सुरू जालें. वर भर वाट चल्ले उपरांत सुर्ला देगणाच्या पायथ्या कडेन आमी पावले. हांगा धनगरांचीं दोन घरां आसात. मालू पावणे हांचीच फामील ती. कांय वर्सां फाटीं ही फामील वयर दोंगराच्या कड्या सकयल रावताली. आतां ती सकयल देवून आयल्या. पयसुल्ल्यान लायटीचे खांबे दिश्टी पडले. घरा कडेन लागीं वच जाल्यार एका ल्हान पायपांतल्यान सतत उदक ओत्ता तें नदरेक पडलें. "हें पाणी खंयचें? सरकारान दिलां?" हांवें थंयच उबी आशिल्ले बायलेक प्रस्न केलो. "ना. वयर दोंगराच्या पालसणांत व्हाळ आसा. पायप घालून आमीच हें पाणी हाडलां."

रान गांवांनी उदक घरा मेरेन हाडपाचे प्रकार खूब कडेन पळोवंक मेळटात. वीस वर्सां फाटी पयलेच फावट हांवें हो प्रकार पळयल्लो तो सत्तरींतल्या बुद्रूक - करमळे ह्या गांवांत. तेंब वाड्यार वेळवाचे भरल लावन झरीचें उदक एका जाण्टेल्यान आपल्या घरा मेरेन हाडिल्लें. ताची ती कल्पनाच म्हाका आवडिल्ली. म्हजे वांगडा सावइडेंचो म्हादेव गांवकार आशिल्लो. "हें उदक खंयच्यान हाडलां तें म्हाका पळोवंक जाय." ताच्या सांगातान हांव दोंर माथ्या वयले झरी मेरेन गेल्लों. त्या जाण्टल्याची म्हाका तोखणाय दिसली. कर्नाटकांतल्या होळडें गांवांत वतना वाटेर गोंयचे शिमे भितर वांयगिणी हो गांव लागता. थंय अशेंच पायपांतल्यान उदक सकयल हाडिल्लें. होळडें गांवांतल्या लोकांनी होच प्रकार केल्लो. सकाळीं उठून आमी त्या गांवांत परत भोंवपाक गेल्ले. "तुमी हाडलां तें हें उदीक लागीं आसा?" "हो तो दिसता तो दोंगर चडचो पडटलो." जाण्टेल्यान वयर बोट

दाखयल्लें. दोंगर चडपाक सादारण वर भर लागतलें. हांवें अंदाज केलो.

मालू पावणे आतां सगळ्यांत फुडें आसलो. कालची वाट ताका अनवळखी आशिल्ली. पांयांत दम भरून तो सपासप वयर चडटालो. आमची पांचूय भुरगीं ताचे फाटल्यान तीच गती सांबाळीत चलतालीं. ''दोन तास चलपाक जाय. तुमकां अर्दें वर चड लागतलें.'' सकयल आसतना मानून आमकां वेळाची सुचना दिल्ली. २००३ वर्सा हांव हे वाटेन देविल्लों. हे वाटेचें एक म्हत्वाचें खाशेलेंपण म्हटल्यार वाटेन वाट भर सगळीच चडटी. दोंगराच्या खाकोळांत दोन तीन कडेन विसव घेवपाक ल्हानशे सपाट जागे आसात तितलेच.

थोडी वाट चलतकच पयल्याच धपक्याक खरस लागली. जीव धांपेपाक लागलो. ह्या वेळार म्हाका याद आयली ती २००० वर्सा 'सोसोगड' हांगा आयोजीत केल्ले रान भोंवडेची. पुराय तीन ते साडेतीन वरां आमी उबो दोंगर चडिल्ले. प्रो. सोमनाथ कोमरपंत सरान ते वेळार म्हणिल्लें, ''चडटना सोंऽऽ सोंऽऽ जाता म्हण ह्या दोंगराक सोसोगड नांव पडलां आसूं येता.'' दुसऱ्या वर्सा ''कांतळाचे माळी'' ह्या दोंगरार चडटना सात्रें गांवाक वळसो घालून आमी सात्रे गडाच्या माथ्यार वयताले. त्या सगळेच फुडें गेल्ले. हांव मात पांय ओडीत खर्शेंत ती दोंगराळ वाट चलतालों... इतली खरस म्हाका केन्नाच लागूंक नाशिल्ली.

हे वेळार दादीची तीच गत जाल्ली. तार्चीं पावलां मंद गतीन पडटालीं. देसाय आनी वासुदेव चव्हाण ताचो सांगात धरून चलताले. हांवें निरीक्षण केलां ते प्रमाण ट्रॅकाक चलपी मनीस चार तरांनी चलता. पयलो, आपूण सगळ्यांत फुडें चलतलों अशें मनांत थारायता आनी कोणाचीच वाट पळयनासतना एके गतीन मुखार चलत रावता. दुसरो, कोणाचो तरी सांगात घेवन खबरी करीत चलता. ताका ताचे गतीचें भान आसना. तिसरो, आपलेच धुंदींत सैम नियाळीत चलपाचेर भर दिता. चवथो, फाटी वयलें बॅग सांबाळीत खर्शेंत आनी पांय ओडीत जड मनान वाट चलता. हांव चडसो सगळ्यांच्या फाटल्यान चलपाचेर भर दिला. हाका वयलीं कारणां नात. कोणूच फाटल्यान उरचो न्हय ह्या उद्देशान आयोजक ह्या नात्यान एक जबाबदारी म्हण हांव फाटल्यान चलपाक पसंद करतां.

वाट चलून मुखार गेल्ले वांगडी बरी सुवात पळोवन बसतात. उदक पितात आनी बॅगांतलें सुकें खाण काडून खातात. खर्शेल्लो मनीस तांचे कडेन पावतकच ''चलात रेऽऽ आमी या'' अशें म्हण उठून चलपाक लागतकच फाटल्यान आयिल्ल्या मनशाचे तकलेची शीर ताणशेता. ताका ताचो राग येता. आनीक मात्शे बसल्यार कितें जावपाचें? अशें दिसपाक लागता. मर्दी चलपी कोण तरी नेटान म्हणटा, ''रावात रे फुडें वचूं नाकात. फाटल्यान चलप्यांक येवंदी पयलीं.'' ह्या वेळार खरस मारिल्ल्यांक मात्सें बरें दिसता. सगळे बसून चर्चा करपाक लागतकच जिवांत जीव भरता. आंगांत बळ एकटावता. मागीर उठून चलपाक आनीक मजा येता.

आमी चलतात तें देंगण सत्तरी तालुक्याच्या उत्तर दिकेक पडटा. चोर्ला, सुर्ल, कणकुंबी, पारवड, चिखयलें आनी आमगांव अशे कांय गांव घाट माथ्यार बसल्यात. आतां केरी गांवांतल्यान महामार्ग जाल्ल्यान ह्या गांवांनी वचप सोपें जालां. आदल्या तेंपार लोक ह्या रान वाटांतल्यान चडटाले - देंवताले. सत्तरींतल्यान वयर महामार्गाचेर पावतलो जाल्यार चार-पांच रानवाटो आसात. ठाणे ते जांबळी कडेन वचपी पुर्तुगेजकालीन रस्तो. चरवणे गांवांतल्यान वरय गेल्ली वाट. गोळावली गांवांतल्यान दोंगराच्या कण्यान वयर चोर्ला गांवाक मेळपी रानवाट. तशेंच गोळावली गांवांतल्यान आतां आमी चलत वयर वयताले ती पावण्याची वाट. हाचे भायर पुर्तुगेज तेंपार सुर्लाच्यान एक रस्तो सकयल येवन गोळावली गांवांक मेळटा. आदल्या काळार ह्यो सगळ्यो वाटो थळाव्या लोकांच्या संवकळीच्यो आशिल्ल्यो. कणकुंबी बाजाराक वचपाक लोक हेच वाटेचो उपेग करताले. घाट माथ्यार आशिल्ल्या सुर्लाच्या लोकांक ठाणे-दोंगुर्ल्लेंची पंचायत. ते लोक पंचायतीच्या कामाक तशेंच भुरगे शिकपाक लागून हेच वाटेन यो वच करताले. कल्पने भायलो खडतर प्रवास आशिल्लो. तो येवजिल्यारूच खरस मारपाची...

''शाल्मली हो जागो पळय.'' ल्हानसो सपाट जागो ताका दाखयत हांवें म्हटलें, ''खंय कितें आसा?'' सरभोंवतणी पळयत ताणें प्रस्न केलो. ''आदल्या काळार सत्तरींतल्या दोंगर पालसणांनी थळावे लोक कुमेर शेतां कसताले. जंय दोंगराचें खाकोळ आसा थंय जागो सपाट करुन गवळ बांदताले. कणसां काडून नाचणें घरा हाडी सर ह्या गवळांत तांचें वास्तव आसतालें.'' तें अजापलें ''इतल्या रानांत?'' वाग बी खाय नासलो तेंकां?'' ताच्या भुरग्यां मनाक दिसलो तो वागाचो भंय. हांवें म्हटलें, ''आमचो दादी बी रावतालो ह्या रानांत'' कुतुहलान ताणें तो जागो नियाळ्ळो आनी मागीर आपलेच तनरेंत फुडली वाट चलपाक लागलें.

आतां एक बरें जालां. सुर्लाच्या ह्या गांवां खातीर सरकारान इलक्ट्रिसिटी केबल घातल्यात. पारंपारीक वाटेच्या अंदाजीन ते केबल घातिल्ल्यान कांय कडेन ते भायर आयिल्ले आमकां दिश्टी पडले. आमकां हाचो एक फायदो जालो तो म्हळ्यार रानांतल्यान वाट खंयच्यान गेल्या ती समजताली. अर्दी अदीक वाट चलतकच वाटेर कारवांची मेल्लीं झाडां दिश्टी पडलीं. अशीं कारवां दिसप म्हळ्यार आमी दोंगर माथ्या लागीं पावल्यात म्हणपाची ती एक कुरु. हे वनस्पतीच्यो साबार जाती ह्या दोंगर वाठारांत आमकां दिश्टी पडटात. कारवांची बडी घट आनी टिकावू. आदल्या काळार ह्या कारवांच्यो बडयो व्हरून थळावे लोक आपले खोंपीक वा घराक कडवो घालताले.

दोंगर कड्याच्या लागीं पावतकच त्या झुडपांनी आमी वाट शेणल्यात म्हणपाचें कळ्ळें. मालू पावणे कांय वेळ थंय उबो रावून वाट सोदपाक लागलो. मागीर ताणें आपले भितर कितें तरी चिंतलें आनी तीं झुडपां माड्डयत मुखार चलपाक लागलो. भितर रिगलो आनी नाच्च जालो. कांय वेळान आमकां ताणें कुंकारो घातलो. वाटेचो ताचो तो अंदाज सारको आशिल्लो.

म्हणटां म्हण सर अकस्मात कडो लागलो. सगळ्यांनी आपली

नदर वयर लायली. वाटेर मर्दी करड सोडून कांयच नाशिल्लें. "आरे म्हाज्या बाबा. आकांताचो कडो." कोण तरी आडल्लो. "पा, तूं म्हाज्या फाटल्यान राव. हांव फुडें वयतां." शाल्मली चडूच उंचाबळीत जाल्लें. तुमचे फुडें हांव आसा. अशें कितें तरी ताका दाखोवपाचें आशिल्लें आसपाक जाय. यत्नान सगळे चडटी चडपाक लागले. वयर गेल्ल्यांनी जल्लोश केलो. "आरे फाटल्यान पळयात." रमेश आड्डलो. पयस मेरेन सत्तरींतले गांव दिश्टी पडटाले. सकयलें दोंगर पालसण आमची नदर ओडून घेतालें. उजवे वटेन वयर कड्यार म्हजी नदर गेली. तीन केबल थंय हुमकळटाले. कोणें तरी उजो घातिल्लो. करड जळून थंयची सुवात निवळ नितळ जाल्ली. ताका लागून केबलांचो आकार स्पश्ट नजरेक भरतालो.



देसाय आनी दादी. आजून फाटल्यान चलताले. देसायाचे फाटीर ताचें बॅग नाशिल्लें. ताचें ते बॅग आनी रांदपाचीं आयदनां घेवन तुळशीदास म्हजे फाटल्यान चलतालो. वासुदेव चव्हाणान आपलें बॅग फाटीर आनी तुळशीदासाचें ल्हान बॅग फुडें पोटा कडेन लावन आपले गतीन चडटी चलतालो. देसायाचो कॅमेरा म्हजे कडेन आशिल्लो. देसाय आनी दादी बरेच खर्शेल्यात म्हणपाचें जाणवतालें. देसायान तर आतां दांड्याचो आदार घेतिल्लो. "आपले कडेन हो कडो चडपाक जातलो काय?" ह्या विचारांत तो चलता म्हणपाचें स्पश्ट जाणवतालें.

आपणाक दोंगर घळणाचो फोबिया आसा अशें ताणें म्हाका एक फावट सांगिल्लें. कांय जाणांक उंचायेचो भंय दिसता. अशें आसल्यार पांय थरथरपाक लागतात. वयर पावपाक आनी शाल्मलीचें तशेंच जाल्लें. "शाल्मली, तुजो फोटो काडटां ह्या खडपार बस." अशें सांगतकच धडेर आशिल्ल्या त्या खडपार तें भियेत भियेत बसलें. ह्या जाग्यार सगळ्यांनीच आपले फोटो काडून घेतले. दनपारचें देड जाल्लें. सुर्या माथ्या वयल्यान कडसरलो. सकयल सुंदर रान... तें आमकांच पळयता म्हणपाचो भास जातालो.

कश्टान तो कडो चडून सगळे वयर पावले. सगळ्यांक सू जालें. कांय अंतर चल्ले उपरांत आतां सपाट मळ लागलें. थंय रान खात्यान एकेशियाचीं झाडां लायिल्लीं. तातूंतलीं कांय मरून सुकून गेल्लीं. मागीर तांबडो रस्तो. थंयच लागीं रान खात्याचो फलक दिश्टी पडलो आनी मुखार गेट. सगळ्यांनी थंय फोटो काडले आनी चलत रांयंतल्या देवळा कडल्यान गांवांत गेले.

आमी कांय जाण लाडकीचो वझरो पळोवपाक सड्या वयल्या त्या पोयंटार गेले. आतां थंय सरकारान स्टिलाचो कठडो घातला. पावसाळ्यांत जायते फावट हांगा ह्या सुर्ला गांवांत आयलां. विद्यार्थी, लेखक, शिक्षक आनी इश्टांक हांवें हांगा हाडल्यात आनी सैमाचें अस्विमरणीय रूप दाखयलां. त्या वझऱ्यांच्या मुळसांत गेलां. २००७ वर्सा सात्रे गांवांतल्यान भितर सरून दोंगर घळणांतल्यान व्हांवपी ते न्हंयच्या पात्रांतल्यान आमी अशेच चलत वयर आयिल्ले. वाट चुकिल्ल्यान रातच्या साडेआठांक सुर्ला गांवांत पाविल्ले आमी.

देवाची रांय आसा थंयच्यान रस्त्यान मात्शे मुखार वयतकच उजव्यान वयर चडून वयतकच सडो मेळटा. ह्या सड्याचे दक्षिणेक गेल्यार सगळी सत्तरी अस्करांत येता. त्या जाग्याक हांवें सत्तरी दर्शन पोयंट अशें नांव दिलां. उदेंतेक उबो रावल्यार पावसाळ्यांत कर्नाटकाच्या अर्दान साबार वझरे घसघसतात ते थाये पडटात. ऑगस्ट-सप्टेंबरांत सगळे सडे तरा तरांच्या फुलांनी भरून वतात. फुलांचो उत्सव चल्ला असो भास जाता...

सुर्ला गांवांतल्या जायत्या जाणां कडेन म्हजी वळख आसा. चार-पांच राती हांव रावलां ह्या गांवांत. म्हजो इश्ट गोपीनाथ गांवस हाची बायल ह्या गांवची. गांवांत पावल दवरतांच वळखीचे सगळेच लागीं आयले. आमची खबर घेतली. लागींचो इश्ट काशिनाथ हांगा हायस्कुलाचो मुख्याध्यापक आसा. २६४६ फुटाचे उंचायेर आशिल्लो गांव हो. गोंयांतलें हें एक थंड ठिकाण. पावसाळ्यांत धोऽऽ धोऽऽ करून पावस कोसळटा. शियाळ्या दिसांनी हांगा भरपूर शीं पडटा. गिमाळ्यांत मन प्रसन्न करपी वातावरण...

"आमी सकयल स्कुला कडेन रांदपाचें करुया. आमच्या सोयऱ्यांचें बार आसा ताचे फाटल्यान..." रमेशान सांगलें. आमी सगळेच थंय गेले. पळयल्यार थंय कर्नाटकांतल्या गाडयांची घे गर्दी. आयज आयतार. सोरो पिवपाक ते लोक हांगां गोंयांत येतात. एक अशीच पासय मारली. सगळे कडेन कन्नड संभाशण आयकूंक येतालें. गाळी घालतात काय ते उलयतात तें कळपाक मार्ग नाशिल्लो. हांव परत परत हांगा येतालों तो गांव होच काय तो? वीस-पंचवीस घरां आशिल्ल्या ह्या गांवांत धा-बारा सोऱ्याचीं बारां! सुर्ला आतां आमचें उरूंक ना काळजांत कळ येवन गेली आनी म्हणटां म्हणटां पावसाळ्यांतल्या धुक्या वरी एक खंत मनांत दाटून आयली...

वर्स पद्दते प्रमाण ट्रॅकाचो समारोप जालो. सगळ्या भुरग्यांचीं आनी हेर कांय जाणांचीं मनोगतां जालीं. प्रमाणपत्रां वांटलीं. सगळ्यांनी आपआपले फाटीक बॅगां चडयलीं. गाडी आयली. सगळे गाडयेंत चडले. सुर्ला गांव फाटीं गेलो. फुडाराक कितें जातलें काय ह्या गांवाचें? मनाक एक हुस्को लागून उरलो.

संपर्कः 8390303546



# चित्रां बापूच्या जिवितार्ची

## काकासायब कालेलकार : अणकार- रमेश भगवंत वेणुस्कार



### २१. भंय पिडेस्त मनीस अहिंसक जांवकूच शकना

कोचरब सोडून आश्रमाची स्थापना साबरमती न्हंयच्या कांठार वाडज गांवां लागीं जाली. आरंबाक आमी दोन चार तंबूंत रावताले. ते उपरांत झोपड्यो जाल्यो. आश्रम भुंयेचेर आमी सगळे पावले की खबर सगळ्यान येवपाक लागले. घरंदाज लोक जेन्ना मेळपाक येतात तेन्ना कितें ना कितें भेट हाडटात. पूण चोरांचो कायदो भलतोच. ते कसली ना कसली भेट आपखोशयेन घेवन वयताले. परिणामी आमी रातचो पारो दिवपाक सुरू केलें. हांव चड करून रातचें एक ते तीन मेरेन पारो करतालों. पयले राती मात्शी न्हीद जाले उपरांत आंग तरतरीत दिसतालें. आनी फाटली रात इतली गंभीर आनी शांत आसली जी ध्यान करपाक सामकी जाय तशी. उपनिशदांतले मंत्र म्हणत हांव आश्रमाची सगळी जमीन पायांसकल घालीत वयतालों. कांय दिसांनी बापू भोंवडे वयल्यान परतलो. सांजवेळचे प्रार्थने उपरांत जातले चर्चे खातीर ताणी चोरांचो प्रस्न घेतलो. बरीच चर्चा जाली. मागीर बापून सांगलें, "जर मगनलालाक (गांधीजींचो पुतोणयो आनी आश्रमाचो वेवस्थापक) दिसता जाल्यार ताचे खातीर सरकाराकडल्यान लायसन घेवन आर्म विकतें घेतां. लोकांनी मागीर हाचेर टिका बिका करूं येता. हे अहिंसक लोक आर्मा कित्याक सांभाळटात, आनी तांकां जाप दिवपाक हांव हांगां बसून आसांच." हाचेरूय चर्चा जाली. बापून म्हटलें, "आमी सगले लोकांनी - बायलो, दादले, भुरगीं हाणी भिरांतेन वेळ सारप हाचे परस आमी आर्मां घेवन आमकां राखप बरें. भंय पिडेस्त मनीस अहिंसक जांवकूच शकनात. भियेवन मना पसून निर्वियं हिंसा करीत रावचे परस आमी चोरांक भय घालप हें चड बरें."

हाचेरूय मत घेतलें. हांवें हाचो विरोध केलो. सगळ्यंक अजाप जालें. हांव एक महाराष्ट्रीय मनीस बापूय परस चड अहिंसक कसो जालो काय, असोच भाव सगळ्यांच्या तोंडार दिसतालों. हांवें म्हटलें, "अहिंसेच्या विचारान हाचो विरोध करीना. म्हजो मुद्दो असो आसा की आयज सरकार दरबारांत बापूची एक इज्जत आनी म्हुर्वत आसा, ते बापूजीक आपलो शुभचिंतक मानतात. हे खातीर आमकां एका जाग्यार चार आर्मां मेळ्ळूंक शकतलीं. पूण देशांतल्या करोडो शेतकामत्यांक हीं आयिद्दां कशीं मेळटलीं? आमच्या शेतकामत्यांक जर आर्मां बगर आपली आत्मराखण करची पडटा तर आमकांय हेच मर्यादेंत रावन आमची रक्षा करूंक जाय."

बापूक म्हजो मुद्दो पटलो आसूंक जाय. आनी आर्मां घेवपाचो प्रस्ताव मात तसोच उल्लो. ते उपरांत जेन्ना सरकारान बापूक युद्धाच्या कामांत पालव दिवपा खातीर मदद मागली आनी बापूय खेडा जिल्ह्यांत सैनीक भरतेचो वावर सुरू केलो तेन्ना तांणी सरकारा कडेन पत्र वेव्हार करून खेडा जिल्ह्यांतल्या चडांत चड शेतकारांक आर्मां आनी लायसनां मेळोवन दिलीं. जे दीस ही गजाल हांवें आयकली, ते दीस म्हजो जीव खोशयेन तल्लीन जालो.

### २२. फकत श्रद्धेचो उणाव

आश्रमांत आमचे तंबूंत रावपाचे दीस. अहमदाबादचे विनीत पक्ष नेते सर रमणभाई नीलकंठ बापूक मेळपाक आयल्ले. उलोवपाच्या

ओघांत तांणी बापूक विचारलें, "महाराष्ट्र संबंदान आनी टिळकां संबंदान तांकां कितें दिसता?" बापून सांगलें, "टिळकसायब तर एक व्हड कुशळ राजकारणी. ह्या होमरूल लिगाच्या वावराकूच पळयात. टिळकांच्यो घुली सामक्यो जाय तशोच पडल्यात! आनी महाराष्ट्र! ताचे संबंदान कितें म्हणूं? जंय टिळकावरी लोक आसात, जंय राष्ट्रसेवे खातीर जिवीत अर्पण करपाची रसरसती परंपरा चलत आयल्या ते भुंये संबंदान कितें म्हणप? हे लोक जें काम हातांत घेतात तें पुराय केले बगर ते कशेंच सोडीनात. उपरांत आनी कोणा कडेन तरी उलयतना बापून म्हटलेलें, "जर हो म्हजो अहिंसेचो रुपकार हांव महाराष्ट्राक समजावंक शकलों, जाल्यार फुडें चिंता बिंता करपाची गरज उरतशी दिसना म्हाका. इतली कार्यशक्त ह्या प्रांतांत आसा. पूण कितें करुया, महाराष्ट्रांत श्रद्धेचो उणाव आसा.

## २३. वांसराक मरण-दान

आश्रमाच्या आरंबाच्या दिसांनी गांवचें सरादीन खंयच बरें दूद म्हण मेळनासलें. ताका लागून आमी आमची सोय केली. बऱ्यो बऱ्यो गायो आनी म्हशी हाडल्यो. कांय दिसांनी आमकां बापून सांगलें की आमकां गोरक्षा करूंक जाय. म्हशींक दवरून आमी गायक वांचोवंक शकनात. दोगांकूय आश्रय दिवन आमी दोगांचोय नाश करतात. गायची सगल्यांत व्हडली दुस्मान म्हस. बैल आपले सेवेच्या नाडयार वांचता. आनी म्हस आपल्या चड दुदाच्या नेटार वांचता. बाकी उरतात गायचीं पाडकां आनी म्हशींचें रेडकां. म्हण्टकूच गाय मारूंक दितात आनी म्हशींचीं रेडकां तर ल्हान आसतनाच मारून घालतात.

परिणाम असो जालो की आश्रमांतल्यो सगल्यो म्हशी उण्यो केल्यो. फकत उरल्ली गोशाला.

*****

एक दीस एक वांसरूं जाम आळसावलें. आमी ताका जितलीं वखदां करूं येतालीं तितलीं केलीं. लागच्या खेड्यांतल्यान गोरवांचे वैज हाडले. वेटेरनरी दोतोर हाडले. जितलें जांव येतालें तितलेंय सगळें केले. पूण वांसरूंक काय गूण पडलोच ना.

वांसराचे अंतिम कश्ट पळोंव नजो जावन आमच्या सगळ्यां मुखार बापून एक प्रस्ताव दवल्लो की अशे तरेन ह्या मोन्या वांसराक तळमळे सोंसूंक दवरप हें घातमारेंशें दिसता. हाका मरणाचो विसव दिवंक जाय.

हाचे बरीच चर्चा जाली. भौ. वल्लभबाय आयले. तांणी सांगलें, वांसरू तर दोन तीन दिसांनी आपशींच वयतलें. पूण जर तुमी ताका माल्लें जाल्यार नाका आसतना लचांड आंगार ओडून घेतले. देश भरचो हिंदू समाज खुबळून वयतलो. आनी आमकां आतां फंड एकठांय करपाक मुंबय वचपाचें आसा. थंय आमकां कोणूच कवडीय दिंवचो ना. मागीर आमचीं कितलींशींच कामा आडखळून उरतलीं.

बापून सगळें थंडसाणेन आयकलें. आनी आपली अडचण सामकार दवरीत सांगलें, 'तुमचें म्हणणे बरोबर आसा. पूण वांसराचें तळमळे अशे पळयत बसप कशें शक्य आसा? आमी ताची जी कितें अखेरची सेवा करू शकतात ती केली ना जाल्यार कर्मच्युत जातले. असले बाबतींत वल्लभभाई बापूकडेन केन्नाच भासाभास करिनासले. ते मोन्यानी गेले. मागीर बापून आमकां सगळ्यांक एकठांय केले. आमचें मत घेतलें. हांवें म्हटलें, "तुमी जें म्हणटात ते बरें आसा. पूण जर म्हाका म्हजें मत दिंवचें पडल्यार म्हाका गोठ्यांत वचून त्या वांसराक प्रत्यक्ष पळोंवचें पडटलें आनी तेन्नाच हांव मत दिवंक शकतलों." हांव गोठ्यांत गेलों. वांसरू थंय बेसूद आसलें. हांव मत थारांव शकलों ना म्हण मातसो थाल्लो. मागीर पळयलें की वांसरू आपले पांय झाडटा. तसो हांव बापू फुड्यांत वचून तांकां सांगलें की हांव तांच्या मताकडेन सहमत आसा. बापून कोणाक तरी चीट बरोवन गुळी घालतल्याक आपयलो. त्या मनशान म्हटलें, "गुळी घालपाची गरज ना. डॉक्टरांकडेन आतां असलें इंजेक्शन आसता. जें माल्लें की प्राणी एकाच खिणांत शांत जाता." हे खातीर एका पारसी दोतोराक आपोवन हाडलो. ताणें त्या पिडेस्त वांसराक 'मरण दान' दिलें.

ह्या प्रसंगांतल्यान देश भरांत बरोच बोवाळ जालो. बापूजीक कितलेशेच लेख बरोंवचे पडले. सगळो हिंदू समाज मुळासावन हाल्लो. आपली अनन्य धर्मनिश्ठा आनी गो भक्ती खातीर बापू ह्या आंदोलनांतल्यान अचळय मुक्त जालो.

## २४. कोणाचेय इज्जतीक भिरांत ना

'आत्मकथा' ह्या तांच्या बरपा विशीं एक पावट चर्चा करतना हांवें तांकां म्हटलें, " बापूजी, तुमी तुमची 'आत्मकथा' बरयतना बरीच कंजुसी केल्या. कितल्योशोच बऱ्यो बऱ्यो गजाली तुमी सोडल्यात. तुमी जंय 'आत्मकथा' पुराय केल्या, ते फुडल्यो गजाली आतां तुमी घडये चुकूनूच बरयत. ते संबंदान हांव कांयच म्हणना. पूण तुमी कांय सुटलेल्यो गजाली तर बरयल्यो जाल्यार आत्मकथे वरीच आनी एक समान्तर ग्रंथ तयार जातलो." बापू म्हणूंक लागले, "अशें थोडेंच आसा. की जें उल्लां तें हांवेंच बरोंवक जाय. जें तुमी जाणात तें तुमच्यांनी बरोंव येता." हांवें फुडें म्हटलें, "खंय खंय तर अशें दिसता की कांय गजाली तुमी मुद्दामूच सोडून दिल्यात. आपले विरुद्धच्यो गजाली बरोवपांत तुमी बरोच रस घेतला, पूण आपले संबंदीच्यो खबरी सांगतना अशें करूंक ना. जशें दक्षीण आफ्रिकेंत तुमच्या घरांत रावपी, पूण तुमी घरांत नासतना तुमचो एक इश्ट एके रांडेक (वेश्येक) घेवन आयल्लो, तें वर्णन आयलां. पूण तुमी हें स्पश्ट बरोवंक ना की ही तीच मुसलमान व्यक्ती आसली जिणे हायस्कुलाच्या दिसांनी मांस खावपाक तुमकां कोमार काडलेलो आनी तेच खातीर तुमी घरांत चोरीय केल्ली." बापून म्हटलें, "खरें आसा तुमी म्हण्टा तें. हांवें हें मुद्दामूच सोडलां. म्हाका 'आत्मकथा' बरोंवची आसली. तातूंत हे गजालीची नोंद व्हडली गरजेची नासली. दुसरी गजाल म्हटल्यार तो मनीस आजून जितो आसा.कांय लोकांक म्हजो आनी ताचो संबंद आसा. दोनूय प्रसंग एक जाले जाल्यार ताचे विशीं ह्या लोकांच्या मनांत राग, द्वेश वाडूं शकतालो."

दर एका मनशा विशीं बापूंच्या मनांत कितलें कारूण्य भल्लां तें पळोवन म्हाकां एके फाटले गजालीची याद जाली.

बनारस हिंदू विश्वविद्यालयांतल्या बापूंच्या भाशणा उपरांत खबरांपत्रांनी बापू आनी श्रीमती बेसंट हांच्या संबंदान व्हडल्यो व्हडल्यो आनी कडक तिखट चर्चा सुरू जाल्ल्यो. ह्या संबंदान मुंबयच्या 'इंडियन सोशल रिफॉर्मर' - आंत श्री नटराजनान बापू विशीं बरयल्लें : 'Everyone's honour is safe in his hands.' - बापूच्या हातांत कोणाचेच इज्जतीक भिरांत ना. बापूंच्या चरित्राचें हें तास नटराजनांनी आपल्या सुंदर शब्दांत व्यक्त केलां.

ह्या प्रसंगाक धरून आनी एक याद.

एका मुखेल मुसलमान कार्यकर्त्या विशीं चर्चा चलताली. हांवें तांच्या खंयच्या तरी सार्वजनिक अनुचीत वेव्हारा विशीं उल्लेख केलो. बापून खंती जावन म्हटलें, "तेन्ना सावन म्हज्या मनांत ताचे विशीं पयलींवरी किंमत उल्ली ना. पूण ताचें ताका कितें? ताचें कांयच नुकसान जांवचें ना. म्हज्या मनांत कोणाचीच किंमत वाडली कितें वा उणी जाली कितें? हाका लागून म्हज्यांतलें प्रेम थोडेंच उणे जातलें?"

## २५. आश्रमाचे शाळेचो श्रीगणेशा

म्हाका बापून आश्रमांत आश्रमवासी म्हण आपोवंक नासलो. पूण राष्ट्रीय शाळा चलोवपी एक शिक्षक म्हण आपयल्लो. किशोरीलाल मश्रुवाला आनी नरहरि पारीखय हेय अशेच तरेन आयिल्ले. पूण मामासायब फडके आनी विनोबा आश्रमवासी जांवकूच म्हण आश्रमांत आयल्ले. राष्ट्रीय शिक्षकांचेर आश्रमाचें कसलेंच बंधन नासलें. आश्रमाचीं व्रतांय आमचे खातीर बंधनकारक नासलीं. तरी आसतना ल्हवू ल्हवू आमी केन्ना आनी कशे आश्रमासी जावन गेले कळ्ळेंच ना. बापू अहमदाबादच्यान चम्पारण वयताले. हांव तांकां बडोदा स्टेशनार मेळ्ळो. तांणीं म्हाका विचारलें, "चम्पारण खंय आसा, जाणा?"

त्या दिसांनी भारतांत, ह्या प्रश्नाची जाप दींव शकत अशे खूबच उणे लोक आसले. आनी हांव तर राष्ट्रीय शिक्षक आसलों. जर हांव जाप दिना जाल्यार म्हाका ती लजेची गजाल जातली आसली. बरें म्हण बरें, हांव नेपाळाचे यात्रेक वयताना मुजफ्फपुरच्यान गेल्ल्या कारणान वाटेक हांवें ह्या चंपारणा संबंदान आयकल्लें. हांवें म्हटलें, "सामकें नेमकें सांगपाक शकचों ना हांव. पूण तें खंय तरी उत्तर बिहारांत आसा. चम्पारण एक शार आसा काय जिल्हो, हेंय म्हाका खबर ना. इतलें जाणा की नैमिशारण्य वा दण्डकारण्य नांवाचें एकूय रान ना." (वेदारण्याचें नांव हांवें तो वेळ मेरेन आयकूंक नासलें.) बापू खूश. मागीर हांवें म्हटलें, "तुमी तर आश्रमांत राष्ट्रीय शाळा काडूंक सोदतात आनी तुमी आपुणूच चम्पारणाक वयतात. ताची बुन्याद तुमीच घालूंक जाय. दर एके गजालींत आमकां तुमच्या सल्ल्याची गरज लागतली." बापून जाप दिली, "आतां फकत आरंभ करपाचो. ताका इतल्यांतूच व्यापक रूप दिवपाचें ना. समजा कितें वयर सकल जालें जाल्यार जाग्यार घालूंक कितलोसो वेळ लागतलो?" हे जापेन म्हजें समादान जालें ना. परत बापून म्हटलें, "हे तर आश्रमाचे सामके सुरवातीचे दीस. हांवूय चड दीस पयस रावूंक शकना. दर पंदरा दिसांनी एक पावट हांव आश्रमांत मुजरत येतलों." हें आयकून हांव जितलों संतोसलों तितलोच अजापीतूय जालों. खंय अहमदाबाद आनी खंय चम्पारण! म्हजे तकलेंत लेगीत नासलें की हो येदो व्हडलो राजनितीक फुडारी दर पंद्रशीक आपल्या धाकटुल्या आश्रमांतले धाकटुले शाळे खातीर इतले कश्ट काडून तशेंच खर्च करून चम्पारणच्यान आश्रमांत येतलो. पूण जाप आयकून हांव खूब खूश जालों. हांवें मनांतल्या मनांत म्हटलें की जेन्ना आश्रम -जिवन आनी शाळेच्या वेवस्थापना विशीं बापूक इतलें आपलेपण आसा तेन्ना म्हाका चिंता करपाची गरज ना. आमी जीव तोडून काम करतले. बापून म्हटलें तें करुनूय दाखयलें. ते दर पंद्रशीक आश्रमांत येत रावले

## २६. गोकीभयणीक जाप

बापूक एक भयण आसा. गोकी भयण. बापून जेन्ना दक्षीण आफ्रिकेक आश्रम सुरू केलो, आनी परतले तेन्ना आपलें सगळें वर्चस्व थंयच्या आश्रमाक म्हटल्यार देशाक दिलें. जेन्ना हिंदुस्तानांत आयले तेन्ना आपल्या घराचोय हक्क सोडलो. सोयऱ्यांक आपोवन सगळें घर तांच्या नांवार करून दिलें आनी आपल्या चारूय पुतांचें हस्ताक्षरूय त्या कागदांचेर करून दिलें. अशे तरेन ते पुराय अकिंचन जाले. आतां गोकी भयणीच्या (बापूची भयण - तांचें खरें नांव रळियातबहन आसलें.) खर्चाचें कितें? खाजगी कामाक बापू केन्नाच कोणाकडे पयशे मागनासले. तरी तांणी आपलो खूप्प वर्सांचो पोन्नो इश्ट डॉ. प्राणजीवनदास मेहताक सांगलें की गोकी भयणीक दर म्हयन्याक धा रुपया धाड. कांय काळान गोकी भयणीची धूव विधवा जाली. आनी आवय बराबर रावपाक लागली. गोकीभयणींन बापूक बरयलें की आतां खर्च वाडलां. तो पुराय करपाक आमकां शेजाऱ्यालें पीठ दळून दिवपाचें काम करचें पडटा. बापून जाप बरयली, "पीठ दळप खूब बरें. हाका लागून दोगांयचें आरोग्य बरें उरतलें. आमीय आश्रमांत पीठ दळटात." आनी फुडें बरयलें, "तुमकां जेन्ना दिसता तेन्ना आश्रमांत येवचें. आनी जमता तितली जनसेवा करची. हो तुमचो अधिकार. जशे आमी हांगा रावतात तशींच तुमीय रावतलीं. हांव घरा कांयच धाडूंक शकना. ना म्हज्या इश्टांकूय कितेंय धाड म्हण सांगूंक शकना." जी भयण पीठ दळपाची मजदुरी करूंक शकता तिका आश्रमांत रावप मातूय त्रासांचें जांवक शकना. पूण आश्रमांत हरिजनूय रावताले. तांचे वांगडा रावप, खावप-जेवप पोन्ने विचारसरणीच्या लोकांक जमप कशें शक्य आसूं येता!

भयण आश्रमांत रावपाक आयली ना. फकत एक पावट बापूक मेळपाक आयिल्ली.

## २७. गांधीजी : लोकमान्यांचे नदरेन

मंडालेच्यान परततकूच लोकमान्य टिळकान परत काँग्रेसींत प्रवेश करपाचें थारायलें. तांणी बेळगांवच्या प्रांतीय पॉलिटिकल कॉन्फरन्सांत

आपल्या लोकांक समजावपाचो यत्न केलो. म्हजो आग्रो आनी गंगाधरराव देशपांडेच्या आमंत्रणा खातीर बापूय त्या कॉन्फरन्साक आयिल्ले. आमी सगले लोकमान्य टिळकांचे अनुयायी आसले. पूण बापूची तेजस्विता, राष्ट्रभक्ती आनी चारित्र्य शुद्धीचेर आमी मरताले. हांव तर काळजासावन तांचोच जावन गेल्लों आनी गंगाधररावांकूय तेच वटेन ओडपाचो यत्न करतालों.

आमकां दिसतालें की टिळक आनी गांधी जर एकामेकांक समजूंक शकले जाल्यार देशाचें एक व्हडलें काम जातलें. आमी अशी वेवस्था करूंक सोदताले की लोकमान्य आनी बापू सामके एकांतांत एकामेकांक मेळूंक शकतले. पूण लोकमान्यांच्या राबित्यार कांय हे जाणे शक्य नासलें. हे खातीर गंगाधररावान लोकमान्यांकूच बापूंच्या राबित्यार व्हेलो. तांकां थंय सोडून गंगाधररावूय थंयच्यान परतलो. थंय ह्या दोगां मदीं कितें उलोवप जालें, तें आमकां उपरांतूय केन्नाच कळ्ळें ना. फकत रुमा भायर येवन लोकमान्यांनी गंगाधररावाक इतलेंच सांगलें की "हो मनीस आमचो न्हय. हाची वाट वेगळी आसा. पूण हो पुराय खरो मनीस. हाच्या हातांतल्यान हिंदुस्तानाचें वायट केन्नाच जावपाचें ना. आमकां इतलें ध्यान दवरचें पडटलें की आमचे कडल्यान हाका कसलोच विरोध जांवक जायना. आनी आमकां जमता तितलो ताका, आमी पालव दिवपाक जाप."

बापून त्या कॉन्फरन्सांतल्या भाशणांत इतलेंच सांगलें की तुमी सगळे परत काँग्रेसींत येवंक सोदतात, ही बरी गजाल. पुणून हे खातीर तुमी शिपाय जावन येवपाक जाय, वकील जावन न्हय. दुसरे काय तिसरे दीस बेळगांवचो एक नेतो श्री. बेळवी वकील आपल्या कसल्याश्या कामाक कलेक्टरा कडेन गेल्लो, तेन्ना तो विचारपाक लागलो, "कित्याक, तुमी आपयल्लो बॅरिस्टर गांधीक ? आनी अशेंय आयकूं येता की ताणें तुमकां बरेच सकल वयर केले खंय? खंयचो हाका हाडलो, अशें तुमकां जालां आसतलें." श्री. बेळवीन जाप दिली, "तुमकां आमच्या हिंदुस्तानवासियांचो सभाव खबर ना. गांधीजी तर आमचे खातीर पूजनीय व्यक्तिमत्व. तांकां आमकां उपदेश दिवपाचो अधिकार आसा. आमकां तांची कितली कदर आसा तें तुमकां रोकडेंच कळटलें." हें आयकून कलेक्टर थार मोनो जालो.

## २८. जिवाणें खांदार चडलें

सन १९१७ तली गजाल. बापू आश्रमांत सांज वेळची प्रार्थना जाले उपरांत आपल्या हांतरुणाचेरूच एक उश्याच्या आदारान बसून गजाली करताले. बापूक थंड बी लागचें न्हय म्हणून पुज्य बान एक चादर चौकट घडी करून तांचे फाटीर घातली. बापू आश्रमवासी रावजी भाई पटेला वांगडा गजाली करताले. तितल्यांत रावजी भाईक चादरीर एक काळी हुळहुळटी ओळशी दिसली. बारीक पळयतकूच अशें दिसलें की एक व्हडलें काळें जिवाणें फाटल्यान सावन येवन तांच्या खांद्या मेरेन पावलां. आनी फुडें येवपा खातीर हे वटेन ते वटेन पळयता. रावजीचें उलोवपा वयलें ध्यान हाल्लां तें पळोवन तशेंच तो आपल्या खांद्या कडेन पळयता तें पळोवन बापून म्हटलें, "कितें जालें रावजी भाई?" तितले मजगतीं बापूकूय आपले फाटीर कसलो तरी भार आसा हाची सुलूस लागली. रावजीभाईचें प्रसंगावधान बरें आसलें. तांणी चिंतलें मोट्यान सांगलें जाल्यार बा आनी बाकीचे लोक भियेतले आनी धांवपळींत जिवाणेंय आबूज जातलें. तांणी ल्हवूच सांगलें, "कांय ना बापू, तुमचे फाटीर एक जिवाणें हुळहुळटा. तुमी मात पसून हालूं नाका." बापून म्हटलें, "हांव सामको थीर आसां. पूण तुमी कितें करूंक सोदतात?" रावजी भाईन सांगलें, "हांव चारूय कोणशे धरून चादर उबारतां." मातशी हालचाल जातांच जिवाणें चादरींत घुसलें. बापून म्हटलें, "हांव थंड बसतां, पूण तुमी सांबाळून." रावजीभाईन चादर उबारली आनी पयस व्हेली. आनी जिवाणें भायर येतांच ताका पयस उडयलें.

दुसरे दिसा वर्तमानपत्रांत खबर आयली की एका नागान बापूंच्या माथ्यार आपली फडा फुलयली. आतां बापू चक्रवर्ती राजा जातलो. एका इश्टान म्हाका म्हटलें, "नाग तांच्या खांद्या मेरेन चडलेलो, तो जर तांचे तकले मेरेन चडलेलो जाल्यार बापू हिंदुस्तानचे चक्रवर्ती सम्राट जावपाचे. एक दीस हे घटनेची याद जातांच हांवें बापूक विचारलें की जेन्ना सोरोप तुमच्या आंगार चडलो, तेन्ना तुमकां कितें दिसलें? तेन्ना ते म्हणपाक लागले, "एक खीण भर म्हजो आवरो उडलो. पूण फकत एक खीणूच. मागीर हांवें म्हाका सांबाळ्ळो. मागीर कांयच दिसलें ना. विचार येवंक लागले की जर म्हाका हाणें फुंकलो जाल्यार सगळ्यांक हांव एकूच सांगतलों की हाका मात मारूं नाकात. तुमी खंयच्याय जिवाण्याक तें दिसलें की ताका मारूंक सोदता आनी हांवेंय तुमका तशें केन्ना करूं नाका अशेंय सांगूंक ना. पूण ज्या सोर्पान म्हाकां घांस मारला ताका अभयदान मेळपाक जाय.

रावजीभाईन आपल्या "जिवननां झरणा" ह्या गुजराती पुस्तकांत ही गजाल विस्तारान बरयल्या. हांवें ती हांगा म्हाका याद जाता तशीं दिल्या.

## २९. सत्य वचनाचेर श्रद्धा

आमी आश्रमांत शिवाजी उत्सव मनयलो. नारायणरावजी खरेन भजनां म्हटलीं. विनोबा आनी हांवें भाशण केलें. आमच्या भाशणांत शिवाजी संबंदान रामदास, तुकाराम, मोरोपंत आदी संतांनी आनी कवींनी कितें म्हटलां ताचो उल्लेख आसलो. तातूंत इतिहासीक विवेचनूय बरेंच आसलें. शेवटाक बापुनूय दोन उतरां सांगचीं अशी विनंती जाली. बापूचीं उतरां आसलीं, "इतिहास कितें म्हण्टा ताचेर हांव चड लक्ष दिवंक सोदना. म्हजी जाल्यार संतांच्या वचनांचेर श्रद्धा आसा. जर संत शिवाजीक जनका भशेन समजतात, तांकां धर्मावतार मानतात जाल्यार म्हाका तें पावता. मागीर हाचे परस चड प्रमाणाची गरज उरना.

(मुखार चलता)

संपर्क: 9420688461




# तीं स्टेशनार...

कृ. म. सुखठणकार



**(करमळे स्टेशनार तीन जोडपीं, उत्तर भारतीय, मुंबयकार आनी गोंयकार, मुंबय वचपाक आयल्यांत)**

**गोंयकार: (सामाक सकयल दवरीत)** पावलीं एकदांचीं.

**गोंयकान्न:** तुमी इतले बेगीन म्हाका सान्न बी मारपाक हाडलां हांगा? तुमी फेर्र बी बंद केला मूं?

**गोंयकार:** निमणे लेंसाक फेर्र कोणे मारिल्लें गो?

**मुंबयकार:** ह्या वेळेला भटजीनी जेवणाचे पैसे जास्तच घेतले नाही का?

**मुंबयकान्न:** हो तर! आता गोवा पुर्वीचे राहिलेलं नाही, सगळेच लुटायला लागले.

**उत्तर भारतीय (ती): (गोंयकाराक)** करमळी लेक यही है क्या?

**गोंयकान्न:** हिका म्हजो येदो व्हडलो देह दिसलो ना? तुमकां शी विचारता?

**गोंयकार:** तुजें तोंड पळोवन तूं कितें सांगतलें तें तिका कळ्ळें दिसता... **(उ.भा. तिका उद्देशून)** हां, यही फेमस करमळी लेक है. हमारी भाषा में उसपर एक कहावत है, खोया हुआ कौनसा भी जानवर करमळी के तालाब पर.

**उ.भा. (ती): (सगळें तकले वयल्यान गेल्ले कारणान गोंदळून)** अच्छा अच्छा.

**उ.भा. (तो):** धन्यवाद. गोवा कितना शांत और सुंदर है ना, हम यहाँ दोबारा आयेंगे.

**गोंयकान्न:** भाईसाब, गोवा आने जाने के लिए ठीक है. यहाँ मच्छी पकड के सब कुछ महंगा हुआ है. यहा टुरिस्ट लोग वांटपण नहीं करते. दुकानदार मुँह में आता है वो दर बोलते हैं. तुम टुरिस्ट लोक चुपचाप उखलते हैं इसलिए आग लगी है.

**उ.भा. (तो): (गोंदळून)** हां जी.

**मुंबयकार:** दोन वर्षांपूर्वी गोव्याची ट्रीप दोन हजारमध्ये झाली होती आता पांच हजार पुरत नाही.

**मुंबयकान्न:** आता बाई दोन वर्षाने एकदा यायचं, देवाने कुठे सांगितलं आहे प्रत्येक वर्षी यायला.

**उ.भा. (ती):** भैया, गोवा में वह जो फेमस शिवजी का मंदीर है, वह कौनसा है?

**गोंयकान्न: (घोवाक):** हिका परत परत तुमचेकडेन उलोवपाची पिडा कित्याक जाता?

**गोंयकार:** आगो तुका सगळ्यांचेर दुबाव, ती म्हाका भैया भैया म्हण्टा मुगो!

**गोंयकान्न:** खबर आसा! तिका हांव जाप दितां... मॅडम, शिवजी हमारा भगवान नहीं है, हमारा भगवान कवळें में देवी है.

**उ.भा. (ती):** ? ? ?

**मुंबयकान्न:** अहो, आमसुले कुठल्या बॅगेत टाकली?

**मुंबयकार:** काळ्या बॅगेत.

**मुंबयकान्न:** पांढरी चादर त्या बॅगेत नाही ना?

**मुंबयकार:** ट्रेनमध्ये बघू.

**गोंयकान्न:** ही पुरुमेंत घेवन चल्ली दिसता. देवाक म्हणून हांगां येतात. खारेंय घेतलां दिसता, वास येता.

**गायकार:** घेंव गो! आमी मुंबय वचत जाल्यार कपडे बी

घेवन येनात?

**गोंयकान्न:** तुमकां तिचो इतलो पुळको सो आयलो?

**उ.भा. (ती):** आप लोग गोवा में कब से हैं?

**गोंयकार:** हम लोग गोवा के ही हैं...

**गोंयकान्न:** तुमी ओगी रावात हांव सांगतां तिका... हम गोवा में पैदा हुआ और गोवा में ही मरेंगे. हमारा रेशन कार्ड, वोटींग कार्ड, आधार कार्ड यहीं का है. इनका ड्रायव्हींग लायसेन्स भी यहीं का है और अगले महिने रिन्यू करना है. मुझे एक लडकी है. उसको भी हम गोवा में ही देंगे, हमको उपरवाले नीचेवाले पसंद नहीं.

**उ. भा. (ती):** उपरवाले नीचेवाले मलतब?

**गोंयकान्न:** नोर्थ इंडियन, सावथ इंडियन.

**उ. भा. (तो):** हममें क्या बुराई है?

**गोंयकान्न:** उनका खाना पिना हमें पसंद नहीं. उपरवाले चिकन भी खाते हैं और सब एक करते हैं। चिकन के लिए हमारे घर में बरतन अलग हैं। उसका हात दुसरे किसी को लगाते नहीं। नीचे वाले डेली रस्सम-सांबर खाते हैं। वो खाने से जो पेट में गांठ है ना वो खराब होती है। हमारी भाषा में हम उसको गांठ विटली ऐसे बोलते हैं।

**मुंबयकार:** इकडे स्टेशनवर यायला टॅक्सीवाल्यांनी जास्त घेतले का ग? आता कुणाला सांगितलं तर खरं वाटणार नाही, एकोणिशे चवद्यांयशीमध्ये मी आलो होतो तेव्हा कवळ्याहून मडगांव स्टेशनला फक्त वीस रुपया घेतले होते.

**मुंबयकान्न:** आपण केरसुणी पण घ्यायला हवी होती.

**गोंयकान्न:** हांगां सान्नी ना जाल्यात त्यो हांकांच लागून. गाडी आयली शी दिसता, सामान उखला.

**गोंयकार:** गुडस् ट्रेनीर बसून वता? आबूज! सदांच तुजी घाई! सारकें पळोवप ना.

**गोंयकान्न:** आगे बाये, तुमकां लज जाली? कोणाची लज जाली? हे ते दोन हिरोईणिंची बी? लज दिसता जाल्यार त्या खांब्याकडेन वचून बसतां.

**गोंयकार:** केद्यान गो? तीं मुंबयकारां हांसतात पळय, तांकां कोंकणी कळटा आं.

**गोंयकान्न:** तीं घरा कडेन झगडनात? पळयल्यार तर ती राकसूल कशी दिसता, घोवाक पिसडून खाता आसतली. तुमकांय तसलीच बायल मेळपाक जाय आशिल्ली.

**उ. भा. (ती):** आप लोग मुंबय क्यों जा रहे हैं?

**गोंयकार:** हम...

**गोंयकान्न:** तुमी ओगी रावात! हिका सगळ्यो चवकश्यो जाय. हांव सांगतां. आपको कैसा मालूम हम मुंबय जा रहे है? इस स्टेशन पर जग भर का ट्रेन आता है.

**उ.भा. (तो):** फिलहाल तो लोग मुंबइं जाने वाली ट्रेन के लिए ही आये हैं ना मॅडम?

**गोंयकान्न:** तुम ना उडते हुए पंछी का पंख मेजनेवालों मे से है ऐसा मालूम पडता है. हम ना मुंबय में मेरी भाची को बेटा हुआ है उसका बारसा है, यानी उसको नाम रखने वाले हैं. उसके लिए जा रहे हैं.

**गोंयकार:** तांकां आमी सरपळी केल्या ती दाखय मुगो.

**गोंयकान्न:** जालें. सगळें उग्तें करून दाखोवया तांकां! ट्रेनींत आमचो मागीर गळो कापून सगळें व्हरूंनी. रोखडेच तिची कात पळोवन विरगळ्ळे. तुमी सुधारपाचे नात. तिणें देड इंच मेकअप केलां कळ्ळें न्ही? म्हजी कात ही ओरिजिनल!... हमने कुछ अहेर लाया नहीं, उसको क्या अहेर देना है वो मुंबय पहुंचकर सोचेंगे.

**मुंबयकान्न:** आपण सरोजिनीकडे गेलो असतो तर आपल्याला दुदी भोपळा वगैरे मिळाला असता. गेल्या वेळेला तिने दिला होता.

**गोंयकान्न:** आमकां हांगा खतखतें खाल्यार तेंप जालो. हीं सगळें सामान हांगच्यान पुंजोवन व्हरून खतखतें करुन खातात दिसता.

**उ. भा. (तो):** आप गोवा में क्या करते हैं?

**गोंयकार:** मैं...

**गोंयकान्न:** हम खा पी के सुखी हैं. हमको भगवान का दिया हुआ सब कुछ है. घर भर के ओत रहा है यानी घर फुल हुआ है. जो ओरिजिनरल गोवा का है ना वो गरीब नहीं है.

**उ.भा. (तो):** इधर सब दुकाने दस बजे खुलती हैं. दोपहर एक बजे बंद होके शाम चार बजे खुलती हैं. इसका कारण शायद यही है.

**गोंयकार:** नहीं...

**गोंयकान्न:** तुमी ओगी रावात! नहीं, सच्ची हम सुबह पाव खाते हैं ना और अभी गोवा का पाववाला नहीं है. सब पाववाले नीचे के हैं यानी कर्नाटका के. वो नौ बजे के पहले नहीं आते हैं इसलिए दुकान लेट खोलते हैं. दोपहर को गोवा के लोग खाकर आड पडते हैं ये हमे पहले से आदत है, वो आदत किधर जायेगी?

**उ. भा. (तो आनी ती):** ? ? ?

**गोंयकान्न:** तुमकां उस्तोवणी शी लागली?

**गोंयकार:** आगो तिकेट खंय दवरल्या? ती मेळना. आगो तिकेट ना मुगो.

**गोंयकान्न:** तुमचें सदांच अशें! सव्यार मंगळसूत्र पसून तुमकां टायमार मेळूं ना.

**गोंयकार:** आतां हो वेळ गो सगळें वयर काडपाचो? केन्ना केन्ना कितें टायमार मेळूं ना तें सांगपाचो?

**उ. भा. (ती):** आप लोग मुंबई से वापस कब आ रहे हैं?

**गोंयकान्न:** अभी यहाँ जाने का नहीं हुआ और आप वापस आने का पुछ रहे हैं? इधर हमारा तिकेट नही मिल रहा है, हमारा कभी कुछ धड नहीं होता है. हम वापस घर भी जा सकते हैं तिकेट नही मिली तो.

**गोंयकार:** आतां स्टेशनार मद्दीं उबे रावात आनी तिकेट घेवन नाचात.

**(ट्रेनिचो आवाज येता)**

**मुंबयकार:** दादरहून बस नी जायचं की टॅक्सीने?

**उ. भा. (तो):** व्ही आर लिव्हींग ड्रीम लॅंड.

**उ. भा. (ती):** सो सॅड!

**गोंयकान्न:** तुमी तांचे फाटल्यान खंय धांवतात? म्हजे फाटल्यान अशे रावात...

**गोंयकार:** आगो आगो.

संपर्क : 9850530756

# खवदळलेल्या भवसागरांतलो बलदंड दीपस्तंभ

माधव श्रीनिवास कामत

मराठी संतकवी ज्ञानेश्वर, तुकाराम आनी रामदास हांणी पिळग्यां फाटल्यान पिळग्यो अशी गोंयकारांची भावनीक, वैचारीक आनी अध्यात्मीक जीण खूब गिरेस्त केल्या. ते नदरेन आमी कोंकणी उलोवपी गोंयकार भाग्यवान. सात दसकां पयलीं हांव शाळेंत शिकतालों. तेन्ना सावन ह्या संत कवींच्या साहित्याचो म्हजेर प्रभाव पडत आयला. संत रामदासाच्या ''मनाचे श्लोक'' ह्या ग्रंथांतली श्लोकरुपी कविता -

*मना सज्जना भक्तिपंदेंची जावें*
*तरी श्रीहरी पाविजे तो स्वभावें*
*बरें सत्य बोला*
*यथा तथ्य चाला*
*बहु मानिती लोक तेणें तुम्हाला*

शाळेंत आसतना पाठ केल्ली ती तशाक तशी, गुरूजीन शिकयल्ले चाली सयत घट यादींत आसा. आतां ती हांव म्हज्या नातरांक शिकयतां.

गोंयांत भजन संस्कृती खुब पोन्नी. देवळांनीच न्हय, घरा-घरांनी सुद्दां तिनसानां भजनां म्हणटाले. प्रत्येक भजनाचे बैठकीचो आरंभ श्री ज्ञानेश्वरांच्या सुप्रसिद्द अभंगान जातालो.

तो अभंग म्हळ्यार -

॥ रूप जाहता लोचनी ॥
॥ सुख जालें हो साजणी॥
॥ तो हा विठ्ठल बरवा ॥
॥ तो हा माधव बरवा॥
॥ बहुत सुकृताची जोडी ॥ ॥ म्हणुनी विठ्ठलें आवडी॥

आनी मागीर श्री ज्ञानेश्वर माऊली फाटोफाट संत तुकारामाचो अभंग येतालो.

॥ सुंदर तें ध्यान उभें विटेवरी ॥ ॥ कर कटावरी ठेवुनियां॥
॥ तुळसी हार गळा कासे पितांबर॥ ॥ आवडे निरंतर तेंचि रूप॥
॥ मुकट कुंडलें तळपती श्रवणीं ॥
॥ कंठीं कौस्तुभमणी विराजित॥
॥तुका म्हणे माझें हेचि सर्व सुख ॥ ॥ पाहीन श्रीमुख आवडीने॥

ते उपरांत आनीक अभंग म्हणून जातकच शेवटाक न चुकतां संत तुकारामाचोच अभंग म्हणटाले. तो म्हळ्यार -

॥हेंचि दान देगा देवा॥ ॥ तुझा विसर न व्हावा॥
॥ गुण गाईन आवडी ॥ ॥ हेंचि माझी सर्व जोडी ॥
॥ न लगे मुक्ती आणि संपदा॥ ॥ संतसंग देई सदा॥
॥ तुका म्हणे गर्भवासी ॥ ॥ सुखें घालावें आम्हासी॥

संत तुकारामाचें खाशेलेंपण म्हळ्यार ताचो आनी आमचो रिणानुबंध फकत भजनांत म्हणपाच्या अभंगा पुरतो मर्यादीत ना. तुकारामाची वाणी, ताचीं वचनां, ताचें विचार आमचें जिणेचो एक वेगळावंक नजो असो भाग जाल्लो आसा. ताचीं उतरां आमच्या तोंडांत सदैव घोळटात. ओपारीं सारकीं तीं आमी वापरतात. देखीक-

- रात्रंदिन आम्हां युद्धाचा प्रसंग
- सोयरे धायरे दिल्या घेतल्याचे
- कानडीनें केला मराठी भ्रतार
- लहानपण देगा देवा मुंगी साखरेचा रवा

अशे रितीन आमचे वैयक्तीक आनी रासवळ जिणेचो वांटो जावन आशिल्ल्या संत तुकारामाक आमचे आनीक लागीं हाडला सुरेशबाब आमोणकार हांणीं, तुकारामाच्या २०१ वेंचीक अभंगाच्या कोंकणी सार्थ अणकारा वरवीं. तुकारामरायाचे गाथेंत ४५२९ अभंग आसात. तातूंतले सुप्रसिद्द आशिल्ले आनी तांका भाविल्ले २०१ अभंग पं. सुरेशबाबान वेंचल्यात आनी तांचें कोंकणींत भाशांतर करून निरुपणा सयत आमकां दिल्यात. तांणी अर्थाची विसकटावणी उत्तम तरेन केल्ल्यान अभंग वाचणाऱ्याच्या काळजांत सरळ रिघतात आनी दसून रावतात.




आपल्या अभंगांतल्यान संत तुकारामाचें व्यक्तिमत्व उक्तावता. तांचें व्यक्तिमत्व बहु आयामी. ते जावन आसले कुटुंब वत्सल सद्‌गृहस्थ, पंडीत कवी, प्रगाढ तत्त्व चिंतक, जिणेचे प्रज्ञावंत भाश्यकार, द्रश्टे समाज सुधारक, विद्‌वान समाजप्रबोधक, निश्ठावंत विठ्ठलभक्त, तपस्वी साधक आनी महत्त्वाचे म्हळ्यार, बुचकळ्यांत पडिल्ल्या समाजाक उजू मार्गान कशें वच्चें हाचें सुलभ रितीन मार्गदर्शन करपी मार्गदर्शक. ते प्रतिभावंत आनी प्रसावंतय बी. ते ह्या जगाक अंतरल्यार साडेतीनशां वयर वसांचो काळ उलगला पूण तांच्या अमर अभंगांची आनी पर्यायान तांच्या अक्षर कवित्वाची जनमानसा वयली मोहिनी उणी जावंक ना. तांच्या कवित्वाचो गौरव करून विद्‌वान समिक्षक तुकोबारायांक ''महाकवी'' म्हणटात आनी मराठी भाशेचो सर्वोत्तम अर्थ विलास तुकारामाच्या अभंगांतल्यान परगटला ह्या शब्दांत तांची औचित्यपूर्ण आनी साधार अशी तुस्तुय करतात. [१]

प्रस्तावनकार भौ. रमेश भगवंत वेळुस्कारान पं. सुरेश आमोणकारांक सार्थपणान ''अणकार महर्षी'' असो किताब दिला. आमोणकारबाब खांपे अणकारकार. तांणी फाटलीं पंचवीस वर्सां सावन अखंडितपणान, जिद्‌दीन, चिकाटीन आनी निदिध्यासान जे अणकार केल्यात, (सुरेशबाब आत्यंतीक नमळायेन म्हणटात, ''साहित्य हांवें बरोवंक ना; तें ताणें वयर बशिल्ल्यान म्हजे कडच्यान बरोवन घेतलां.'') ते अणकार संख्येन खूब आनी साहित्यीक नदरेन व्हड उंचायेचे अशे आसात. तातूंतली विविधताय नदरेंत भर सारकी आनी तोखणाय कर सारकी. बुद्‌धालें धम्मपद, तिरूवल्लुवाराचें तिरूकुरल, गुरुनानकालें जपुजी साहेब, व्यासाली भगवद्‌गीता, जॉन प्रमाणें शुभवर्तमान, ज्ञानेश्वर माऊलीची ज्ञानेश्वरी, झेनचो (चिनांतलो) दिश्टावो, फादर

थॉमस इश्तेव्हांव हांचें ख्रिस्तपुराण अशे मोलादीक ग्रंथ; तांचे कर्ते खंडप्राय भारतांतल्या पंजाबा थावन तामीळनाडू पर्यंतच्या पयस पयसल्या प्रांतांतले; तर कांय भारता भायले अस्तंते कडल्या आनी उदेंते कडल्या देशांतले. सुरेशबाब एक साहित्यीक म्हणून राजकीय शिमो सहजपणान हुंपून वता. ''साकल्याचो प्रदेश'' आखडवप ताका अजिबात मानवना. ''हें विश्वची माझें घर'' ही तांची दृढ भावना. सर्व धर्म समानता हो तांचो स्वभावधर्म. सगल्या धर्मांतल्या नितीचो, सदाचाराचो, सुविचारांचो आनी मनीसपणाचो उद्‌घोश करपी साहित्याचें तांकां आकर्शण. जें आपणाक मंगल, भव्य आनी दिव्य दिसलां ताचें दर्शन सकळांक घडोवचें ही तांची अनावर वासना.

जनमानसाचेर अखंड आनी प्रचंड प्रभाव घालपी महाराष्ट्रांतले तीन संत कवी भितरल्या संत ज्ञानेश्वरांची श्री ज्ञानेश्वरी सुरेशबाबान हे आदीं यशस्वीपणान अणकारीत केल्या. ताची तोखणाय गोंयांत कोंकणी भाशकांनी तर केलीच. तें अजापाचें न्हय. अजापाची गजाल ही की सुरेशबाबाल्या कोंकणी ज्ञानेश्वरीक महाराष्ट्रांतल्या मराठी जाणकारांनी येवकार दिला. इतलेंच न्हय, कांय जाणकारांनी उदारमनान अशेंय म्हळां की कोंकणी ज्ञानेश्वरी वाचले उपरांत तांकां मराठी ज्ञानेश्वरी अधीक बरी समजली. व्हड तांकिवंत तसोच व्हड फाकिवंत अणकारकार म्हणून सुरेशबाबान आपणाक सिद्‌ध केला हातूंत दुबाव ना.

साहजीक आसा, ज्ञानेश्वरी उपरांत तांणी संत तुकारामाचे अभंग अणकारपाचें थारायलें. जाणकार म्हणतात, मराठी लोकांनी ज्ञानेश्वर महाराजाक मस्तकार घेतला तर तुकाराम महाराजाक काळजांत सुवात दिल्या.[२] दंभाचेर प्रहार करपी, अध्यात्म, धर्म विचार सांगपी, सदाचार, सुविचार, परोपकार, मनीसपण हांचें गुणगान करपी, आनी हें सगळें सादे, सोपे भौजन समाजाक समजपी अशे बोली भाशेंत सांगपी ही तुकारामरायाची प्रतिमा. तिणें जनता जनार्दनाच्या काळजाचो ठाव घेतलो. तुकारामराय जनतेच्या काळजांत साडेतिनशें वर्सां पयलीं वचून बसले; थंय तांकां अढळपद प्राप्त जालें.

तांणी आपल्या अभंगांतल्यान जी कितें शिकवण दिल्या ती कोंकणींत हाडून तिच्या अन्वमार्था सयत ती भौसा मेरेन पावोवची ह्या उद्देशान सुरेशबाबान वेंचीक २०१ अभंगांच्या अणकाराचो वावर केला. अणकारीत रुपान अभंग वाचल्यार ते कोंकणी वाचप्यांक अधीक बरें समजतले, तांतले बारकावे अधीक परजळटले आनी तांची गोडी अधीक गोड जातली हो तांचो विश्वास.

सुरेशबाबांचो तुकारामरायांच्या अभंगांचो अणकार पुरायपणान यथार्थ, म्होंवाळ आनी सोबीत जाला. मराठी आनी कोंकणी अशा दोनूय भाशांचेर प्रभुत्व, स्वयंसिद्‌ध विद्‌वत्ता, प्रतिभेचें वरदान, नसांतल्यान नित्यनेमान घोळणारें कवित्व आनी रसिकत्व हांची सुबत्ता तांकां प्राप्त जाल्ली आसा. ते सुबत्ते वरवीं तांचे अणकार उत्तमांतले उत्तम जातात. ते मूळ साहित्याक पुरायेन न्याय दितात.

देखीक,

अभंग ११५

दसरा दिवाळी तो चि आम्हां सण।
सखे संतजन भेटतील ।।१ ॥
आमुप जोडल्या सुखाचिया राशी।
पार ह्या भाग्यासी न दिसे आतां ॥२॥
धन्य दिवस आजि झाला सोनियाचा ।
पिकली हे वाचा राम नामें ॥३॥
तुका म्हणे काय होऊं उतराई ।
जीव ठेऊं पांयीं संतांचियें ॥४॥ (३९२०)

शब्दार्थ : आमूप = खूब; पार = शीम, मर्याद.

दसरो दिवाळी तोच आमकां सण ।
सखे संतजन भेट्टले ॥१॥
खूब जोडल्या सुखा राशी ।
पार ह्या भाग्या दिसनां आतां ॥२॥
धन्य दीस आज जालो भांगराचो ।
पिकली ही वाचा रामनामान ॥३॥
तुका म्हणटा कशे फेडूं उपकार।
जीव दवरला संतांच्या पांयार ॥४॥

**अर्थ:** ज्या दिसा म्हाका म्हजे संत सखे भेट्टले, तो दीस दसरो-दिवाळे वरीच दिसता. (१) अशे तरेची भेट पुश्कळ सुखाच्यो राशी उब्यो करतकच जाता. मागीर ह्या भाग्याक शीममेर उरना. (२) आयज हो दीस धन्य जाला. भांगराचोच दीस जणूं उजवाडला. कित्याक संतांच्या संगतीन वाणींतल्यान रामनामाचें भरपूर पीक पिकलां. (३) तुकोबाराय म्हणटात, हांव ह्या संतांचे उपकार कशे फेडूं? हांवें म्हजो जीव हांच्या पांयांचेर दवरला. (४)

**निरुपण** : साधुसंतांची भेट जातकच तुकोबाक कितलो आनंद जातलो तें ह्या अभंगा वयल्यान स्पश्ट जाता. 'साधुसंत येती घरा। तोचि दिवाळी दसरा।।' अशें तांचें आनीक एक वचन आसा. दसरो-दिवाळी सणाक घरचे लोक, आप्तेश्ट येतात तेन्ना आनंद जाताच. पूण संत येतकीच सणाचो आनंद दुणावता, कित्याक ह्या संतांचे भेटेंत नामसंकिर्तन घडटा आनी अलौकीक सुखाचो अणभव येता. संत एकनाथ हांणी असोच विचार मांडला : 'धन्य दिवस जाहला। संत समुदाय भेटला॥ आज दिवाळी दसरा । संतपांय आले घर॥'. संत भेट्टकच 'धन्य आजिदिन । जालें संतांचें दर्शन ॥ जाली पापा तापा तुटी। दैन्य गेलें उठाउठी॥' (अ. ९९४) असो तांणी आपलो अणभव सांगला. ते दुसऱ्या एका अभंगांत म्हणटात : 'धन्य आजि दिन संत दरुशणाचा। अनंत जल्मांचा शीण गेला॥' अनंतजल्मांचो शीण ना करपी संत दर्शन दसरो-दिवाळेचो आनंद दिता हातूंत अजाप तें कसलें?

अभंगाचो अणकार तर ''प्रत्यक्षाहून प्रतिमा सुंदर'' असो उतरला. निरूपण म्हळ्यार दुदांत साकर. सुरेशबाब फकत Translator न्हय, तो आसा खांपो Transcreator.

विरक्ती, ईश्वरभक्ती, नैतिकता, संतत्व आनी मुक्ती हें तुकाच्या अभंगांचे विशय. हातुंतल्या प्रत्येक विशयाक न्याय दिवपी अशे प्रातिनिधीक अभंग सुरेशबाबान जाणविकायेन वेंचून काडल्यात. मर्मभेदी शब्दकळा, उतरांचें गांवगिरेपण, तांतली गोडसाण, आमसाण आनी तिखटसाण ही तुकोबारायाच्या अभंगांची खासियत. ती सुरेशबाबाच्या भाशांतरांत अचळय आयल्या. मुळ अभंगांत खुबश्या साहित्यीक गुणांचो आसपाव जाल्लो आसा जेणें करून तांचें साहित्यीक मुल्य खूब वाडटा. महत्वाची गजाल, ह्या अभंगांनी अरळपणान परमळणारी एक तरेची भावुकता आसा. देखून अभंग म्हणता क्षणींच म्हणपी तातूंत तल्लीन जाता. ताच्या नकळत ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकांचीं माणकां-मोतयां व्हांवपाक लागतात. ही गजाल न्यायमूर्ती महादेव गोविंद रानडे हांणीं अणभवल्या; तेच परीन पाळ्यांतल्या देवळांतल्या

भजनी सप्ताहांत भजन म्हणपी गांवगिऱ्या गायकानूय अणभवल्या. सुरेशबाबान अणकारीत केल्ले तुकारामरायाचे अभंग एकाग्र चित्तान, तन्मय जावन वाचल्यार सुद्दां वाचपी परमानंदाच्या सुखाचो धनी जातलो. अर्थांत हाचें श्रेय अभंगांचो मूळ कर्तो तुकारामराय आनी तितलोच समर्थ अणकारकार सुरेशबाब हांकां फावो जाता.

"सुंदर ते ध्यान विठ्ठलु विठ्ठलु" ह्या ग्रंथाची निर्मणी करून पं. सुरेश आमोणकारान कोंकणी सरस्वतीच्या मंदिरांत "पुण्यसंपत्ती"ची भर घाल्या. तेच वांगडा कोंकणी समाजाच्या खवदळलेल्या भवसागरांत एक लांब रूंद आनी बलदंड असो दीपस्तंभ उभारला. ह्या भवसागरांत धडपडणाऱ्या समाजाक त्या दीपस्तंभाची चड गरज आसा. भोगवाद, आत्मकेंद्रीतपण, स्वार्थीपण, मनीसघाणेपण आनी तुसडेपण हांचे भकीक आज समाज पडला. ताका उजू मुल्यांचो, उजू जिणेचो मार्ग दाखवप खूब गरजेचें. ती मार्गदर्शनाची गरज भागोवपाची तांक आशिल्ल्या साहित्याची निर्मणी करप हें तितलेंच निकडीचें. समाजाचें मनोरंजन, स्वप्नरंजन, प्रबोधन हांचे वांगडाच समाजाचें उन्नयन करपी साहित्य समाजाक साहित्यिकांनी उपलब्ध करून दिवंक जाय. दुसऱ्या उतरांनी सांगपाचें म्हळ्यार सद्याच्या काळांत जो समाज आस्तित्वांत आसा तो अपप्रवृत्तींनी, दुर्गुणांनी भरिल्लो आनी ॥ नरेंची हीन केला किती नर॥ ह्या वर्णनाक पुरायेन लागू पडपी असो आसा. तातूंत संपूर्ण पणान सुदारणां जावंक जाय. समाजाचें पुनरुत्थान घडून येवंक जाय, नवनिर्माण जावंक जाय. नवो समाज अभिजात, अभिरुची संपन्न आनी सतत भौतीक आनी नैतीक उदरगतीचे वाटेन वचपी असो आसप गरजेचें. हो वावर सगल्यांचोच, संतांचो तसोच साहित्यिकांचोय. हो समाजाचे नवनिर्मणेचो महत्त्वाचो आनी मोलादीक वावर सुरेशबाबान केला.

अणकारां वरवीं तांणी समाजांत मानसीक, साहित्यीक तशेंच सांस्कृतीक सेतूय बांदल्यात. मनशां मनशां मदलें पयसावलेपण तांतूंतल्यान उणें जातलें, भावपण आनी मनीसपण वाडूंक लागतले, समाज जीण सोबीत सुखदिणी जातली. तांणी 'याचसाठी केला होता अट्टाहास'. तो संपूर्ण सफळ जाला. तांका एक नमळायेची विनंती. तांणी आतां संत रामदासांचे 'मनाचे श्लोक' कोंकणींत हाडचे. जाता तितले बेगीन. वाचपी वाट पळेतात.

संपर्क : ९४२३८२१४४८

**संदर्भ आधार आनी उपकार:**

१) 'सुंदर तें ध्यान विठ्ठलु विठ्ठलु'
अनुवादक, संपादक, सुरेश गुंड्र आमोणकार,
बिम्ब प्रकाशन, आगशी, गोंय

२) तुकाराम गाथा (निवडक अभंग)
संपादक, भालचंद्र नेमाडे, साहित्य अकादमी, नवी दिल्ली

३) सुखाचा परिमळ
लेखक: निर्मलकुमार फडकुले, सुविधा प्रकाशन, सोलापूर.

४) प्राचीन मराठी वाङ्मयाचा इतिहास
लेखक: ल. रा. नासिराबादकर
फडके प्रकाशन, कोल्हापूर.

# 'कोंकणी ओपारींचो कोश'




१९२२ वर्सा उजवाडाक आयिल्लें मो. सेबास्तियांव रुदोल्फ आल्गाद हांचे 'फ्लोरिलेजीव दे प्रोवेर्बीयुश कोंकानीज' ते २०१७ वर्सा उजवाडाक आयिल्लो प्रो. एडवर्ड दि लिमा हांचो 'कोंकणी ओपारींचो कोश' धरून आयज मेरेन कोंकणी ओपारींची विशेक संकलना उजवाडाक आयल्यांत. हातुंतलीं मों. दाल्गाद, व्ही. पी. चव्हाण, रावबहादूर तालमिकी, शेषगिरी प्रभू, पाद्री आंतोनियु पेरेर आनी मनोहरबाब धुंगट हांची संकल्पना खूब मोलादीक आसात.




ह्या म्हान संकलकांच्या पावलार पावल दवरून प्रो. एडवर्ड दि लिमा हांचें 'कोंकणी ओपारींचो कोश' हे संकलन हालींच उजवाडाक आयलां.

५३२ पानांच्या ह्या संकलनांत २१४२ ओपारींचो आसपाव आसा. ह्या संकलनांत ओपारी नागरी लिपीच्या वर्णमाले प्रमाण मांडल्यात आनी तांचें रोमींत लिप्यांतर केलां. हाचो फायदो दोनूय लिपी वापरतल्यांक जातलो. ते उपरांत तांचो कोंकणींत आनी इंग्लिशींत अर्थ दिला. हेर भासांतल्या समानार्थी ओपारींचोय ह्या संकलनांत आसपाव केला.

संकलकान आपल्या मनोगतांत म्हळां तशें तांच्या ह्या संकलनांचेर पाद्री आंतोनियु पेरेर हांच्या 'कोंकणी ओपारींचें भांडार' ह्या संकलनाचो प्रभाव पडला. पाद्री आंतोनियु पेरेर हांच्या संकलनांत विशयां प्रमाण ओपारी मांडल्यात. पाद्री पेरेर हांचे संकलन मो. दाल्गादांच्या संकलनाचेर आदारिल्लें आसा.

ह्या संकलनाचेर बारीकसाणेन नदर माल्ली जाल्यार तातूंत खूब चुकी उरल्यात. थोडे कडेन म्हणी अर्दकुट्यो छांपल्यात. देखीक, 'अखेरीचें हाडलें, वेरीक घालें बारीक' (पान २) खरी पुराय म्हण 'अखेरीचें हाडले वेरीक, गांठीचे घालें भरीक'. ओपारींचो अर्थ कांय कडेन चुकला. 'आज मोर खंय गेला? स्वर्ण पिकलां थंय'. (पान ३१) हीवूय ओपार चुकीची बरयल्या. खरी म्हण 'आज मोर खंय? स्वर्ण पिकलां थंय'. हाचो अर्थ मोर शेतांत भात पिकलां तें खांवपाक गेला. ह्या म्हणिचो शब्दशा इंग्लीशींत अर्थ ... असो केला.

ह्या संकलनांत देवनागरींत ओपारी बरयतनां खूब चुकी केल्यात आनी त्या ओपारींचें रोमींत लिप्यांतर करतनां त्यो चुकी तश्योच उल्ल्यात. जाणकारा कडल्यान ह्या संकलनाची मुद्रीत प्रत तपासून घेतिल्ली जाल्यार ह्यो चुकी टाळपाक येताल्यो. फुडल्या आवृत्तींत ह्यो चुकी सुदारपाक येतात.

जेन्ना आमीं खंयच्याय संकलनाक 'कोश' हें गडगंज उतर दितात, तेन्ना त्या कोशांत चडांत चड ओपारी आसपावन घेवपाची गरज आसता. म्हज्या अभ्यासा प्रमाण कोंकणींत धा हजारां वयर ओपारी आसात आनी आयज मेरेन फकत वीस प्रतिशेंच ओपारींचे संकलन जालां. हाचे परस चड ओपारींचो आसपाव आशिल्लीं संकलपना कोंकणींत हाचे पयलींय उजवाडाक आयल्यांत. देखीक: 'कोंकणी म्हणीसागर' हें मनोहरबाब धुंगट हांचें संकलन. पूण कोश म्हणटात तें एकट्या दुकट्याचें काम न्हय हेंवूय तितलेंच खरें.

ओपारींचो जितलो अभ्यास करीत तितलो थोडो. खूप तकालस घेवन एक बरें संकलन उजवाडाक हाडलां म्हण प्रो. एडवर्ड दि लिमाचे उपकार.

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

**'कोंकणी ओपारींचो कोश'**
**संकलक :** प्रो. एडवर्ड दि लिमा
विक्रम पब्लिकेशन.
**मोल :** ४०० रुपया

## जूनाच्या 'जागां'त पावसाच्यो पावळ्यो : जीव थंडावलो

पडसाद

**भौ. संपादक**

'जागा'च्या दरेका अंकांत एखादया खास विशयाचो आस्पाव आसप हें एक खाशेलेपण थरलां. जून २०१८ चो 'जाग' अंक खास 'पावस' विशयाक धरून आसा. आपल्या भुरगेपणांत पावसांत जी मजा केली ताच्यो यादी कथन करपी पांच लेख वाचले. म्हाकाय बरोवपाक सांगिल्लें, पूण मडगांव सारकेल्या शारांत राविल्ल्यान घराच्या चार वणटीं भितर रावन भायर रस्त्यार पडपी पावसाची मजा आमी कसली घेतलीं? खरी मजा अणभवपाक मेळ्ळी ती मागीर जेन्ना हांव वळवय एका गांवगिऱ्या वाठारांत पावलें आनी झाडां रुखांच्या पाचव्याचार वातावरणांत पावसाच्या दिसांनी सैमांतले विवीध रंग पळयले तेन्ना. रानांतलो पावस अणभवपांत खूब वेगळेपण आसा. मन भुल्लुसून वचपा सारकें सैमाचें विविधरंगी वातावरण. केन्ना मळबांत कुपांची दाटी तर केन्ना घसघशांनी कोसळपी पावस. सवण्यांचें चिंवचिवप, बेब्यांचें रडप आनी केन्ना केन्ना नेटान व्हांवपी वाऱ्या सरशीं झाडांचेर पिकून उरिल्लीं घोंटां, आंबे, पणसुलां घपच् घपच् करून सकयल पडप. हें शारांत खंय मेळटा तोखेवपाक?

हातूंतल्या चार लेखांनी तरी बरोवप्यांनी भुरगेपणांतल्या गांवांतल्या पावसाची मजा घेतल्या ताचें वर्णन केलां. तांणी आनीकूय सविस्तर बरोवचें. ताका लागून फुडले पिळगेक तितलें वाचून समादान मानपाक मेळटलें. गांव सोडून शारांत स्थायीक जाल्ल्यांक हें आनीक अणभवपाक मेळत काय? एक दुबाव मनांत येवन गेलो.

सगळ्यांत चड लक्ष ओडून घेतले तें कृपाली नायक हिच्या 'जिणे संघर्श आनी पावस' ह्या लेखान. चड वर्णनात्मक लेख हालीं वाचपाक मेळनात आनी वाचकांची आवडूय ल्हान सुटसुटीत वाचपा कडेन येवन थारल्या. घडये नव्या टेक्नोलोजीच्या युगांत सगळें शॉर्ट कट जाय ही मागणी तीव्र जाता म्हण आसुंये. पूण कृपालीचो लेख हाका आडवाद आसा. ताणें जें सविस्तर वर्णन केलां तें वाचनीय जालां. भुरगेपणांतले पावसांतलेच न्हय तर एकूण सैमांतलें वर्णन केल्ले अणभव अप्रतीम आसात. बालवाडी ते एम्. ए. मेरेन काणकोणां गांवगिऱ्या वाठारांत झाडां, व्हाळ, रानांतल्या जनावरां सांगाताक सारिल्ली ताची जीण आनी संघर्शांतलें जगप कितलें समृद्ध हें एका लेखांतल्यान जाणवता.

आनी मागीर जे कोण सैमीक संपत्ती सोडून शारांत येवन रावल्यात तांची काकुळट दिसता. आमचे चडशे साहित्यिक तर शारांत येवन 'सुखी लायफ' जगतात आनी भुरग्यांक गांवांतल्या सैमीक समृद्धिची झळकय बादूंक दिनात. देखून आमचें कोंकणी साहित्य हालीं बेचव जायत चल्लां. २-३-४ बेडरूम फ्लॅट वा बंगल्यांनी साहित्य सुखावलां. खूब तेंपान कोंकणींतल्यान एक बरी सृजनकृती वाचिल्ल्याची खोस भोगली. जें साहित्य विचार करपाक लायता तातूंत अर्थ भरिल्लो आसता.

सैमाची मजा गांवांनीच अणभवपाची. ह्या लेखान म्हाका विचार करपाक लायलो आनी मागीर हांव खूब खंती जालें. शारांत रावतल्यांचें जिवीत म्हणल्यार कांट्यांचेर चलपी आनी पांयांक रोदां लावन सर्कस करपी कशें जालां. हो फरक तो लेख वाचतकूच जाणवता. आनी भुरग्यांचें भुरगेपणूच सांडायलां. तीन वर्सांचेरूच तांचे फाटीर पुस्तकांचें ओजें दवरलां. हो सैम ताणीं केन्ना शिकपाचो तर? म्हाका तरी ह्या गांवांतले जिणेचो कितलो फायदो जाता ताचें हावें चिंतन केलें. सृजनाची निर्मिती ह्या सैमांत आसा. आनी मागीर थोडी निरशेवणी आयली, जायतेजाण ही सैमीक गिरेस्तकाय सोडून शारांतली कृत्रीम सुखी जीण जगपाक गेल्यात. तांची फुडली पिळगी आतां गांवा पासून पयस वता. ते पिळगेक हें कांयच खबर ना. फकत लेखांनी वाचपाचें अशें जालें ना?

कृपालीची सृजननिर्मिती वाडूं.

एक बरो अंक वाचकांक दिल्ले खातीर बाय आसावरी नायक हिची लक्तुबाय आनी तोखणाय.

**हेमा नायक**

संपर्क : 9764597628





# कविता

## दोन कविता

**माधव बोरकार**

### रुतू

उचंबळ ल्हारां शिरंतरांतल्यान; पयस देग
घेता झोंपय मन एकसारकें तुजे सरीं
कितलें अंतर मनाचें मना कडेन
वतात हुबून खिणां अत्तराच्या वासावरी.

आंकुरता तळहातार कुरवां स्पर्शाच्यो
आशिल्ली तीच तुजी उतरांविणे भाशा
काजुल्यां परी काळजांत चमचम यादींचो
उदेता काळखांत जशी एक विजेची रेशा.

उसळटा शिरंत्रांनी रंग आगळे वेगळे
वतात सांडून म्हज्यांतल्यान रुतू सगळे...

शिमला १९.५.१८

### वळींत

दोंगर गाळींनी विडविडपी वारो
तळ्यार पावसाचे नाचरे थेंब
वाटांक कितलीं मोडणां पेणी
रुजता कुशींत झाडाचे कोंब.

दोंगरांचे देंवतेर गच्च घरां
रातीचीं वशिल्लीं टिंबांचीं शारां
दिसतात उडून वचत काय
सवणी कशीं फुटून पाखां.

नक्षत्रांनी रात भरिल्ली
पिकता चान्नें दोंगर गाळींत
पाचवेंपण क्षितिजा मेरेन
मावना एके कवितेचे वळींत...

शिमला २०.५.१८

संपर्क: 9420222876

## एक माल्तूल उदक

**मेल्विन रोड्रीगस**

एक माल्तूल उदक पावलें
हिंदुपणांतलो म्हाका काडन चाळूंक
क्रिस्तांवपणाच्या कुंड्यांत मळूंक

एक माल्तूल उदक पावलें
परदेशी पुर्तुगेज आल्कूंत्र मेळूंक
सैंभाच्या पातकांतलो म्हाका पिळूंक

एक माल्तूल उदक पावलें
गायचें मास खांवचें शिकूंक
दुकरामासाच्यो रुची चाखूंक

एक माल्तूल उदक पावलें
दुर्गेक म्हजे सकयल देंवोवक
सायबीण मरयेक पाल्केर बसोवक

एक माल्तूल उदक पावलें
वेंकट्रामणाचो हात सोडूंक
जेजू नाझरेथाचो खुरीस धरूंक

एक माल्तूल उदक पावलें
जिणयेंत इतलीं नवलां घडूंक
म्हाका इगर्जेचो गुलाम करूंक

संपर्क: 09980136297



## बंदखण

**उदय म्हांबरो**

दारार कोण मारता म्हण
शिपायाक भायर धाडलो
पळयल्यार काल
जल्मठेपेची ख्यास्त सोंपोवन
घरा गेल्ली बायल
तुरुंगा मुखार
विनवणी करीत,
पांयां पडत,
आपल्याक परत
बंदिस्त कर म्हण

जिणेच्या अनवळखी मोडणार
तिच्या हातसून
परिस्थितीन घडिल्लें एक कर्म
ताची ख्यास्त काल सोंपली
पूण ती घरा वचूंक तयार ना
तिचे घरचींय तिका
घरा व्हरूंक येवंक नात
समाजांत मान ना
घरांत स्थान ना
चरितार्थाचें साधन ना
रावपाक घर ना.

हांव बंदखणीचो राखणदार
म्हाका बंदखणीचे
सगळे अधिकार
तरी
ख्यास्त सोंपिल्ल्याक
भितर घेवपाचो
म्हाकाच ना अधिकार

संपर्क: 9420766769

# दोन कविता

आर. रामनाथ

## म्हज्या कवितेंच्या अर्दकुट्या कादेर्नांची कोरीं पानां

हाली
हांव
कागदार कविता बरयना
झाडार बरयतां...

हालीं म्हजी कविता
दिय्यार वाडटा
व्हड व्हड जाता...

पांचवेचार झाडांच्या वस्तींतल्यान भोंवपी
जण एकलो म्हजी कविता मुजरत वाचता
देव-देवचार लेगीत...

आतां-
झाडांची म्हाका संवकळ जाल्या
आनी म्हजी झाडांक...

म्हज्या कवितेच्या अर्दकुट्या कादेर्नांची कोरीं पानां
कॅच करून म्हजे आंगार येतात
हांव पांचवोचार जावन
झाडामुळाक न्हिदिल्लो आसल्यार
हो म्हज्या कवितेचो अर्दकुटो कादेर्न
अख्खेंच्या अख्खें झाड
मुळासकट हुमटावन उडयता...
हालीं हें अशेंच घडटा
दिसा ढवळ्याक लेगीत...

निमणो उपाय म्हूण
हांवें हो म्हज्या कवितेचो अर्दकुटो कादेर्न
झाडाकूच घट्ट बांदला
म्हज्यासयत...



## खांद



थरथरत कुलूप काडलें
आनी कलकलत दार उगडून
घरांत पावर घातलें
तशी घरांतली एकान एक वस्त
कच्च करून म्हजे आंगार आयली
तशें तांचे वागणें स्वाभाविक आशिल्लें
हांवेंनूय तें उक्तें काळजान आपणायलें
हांव जडभार जालों
कांय खीण उब्या उब्याच वण्टीक तेकलों
कोंदट वातावरणान गुदमरलों...

उपरांत हांवें
सगळीं दारां-जनेलां उक्तीं केली
हात-पांय धुले
उदक पिलें
आनी अख्खें घर झाडलें
सान्न मारली... पुसलें
जाय तींच आयदना धुलीं... कपडे धुले
परतून एक फावट घसघशीत न्हालों...

दनपार चडूच तापिल्ली
एकट्या खातिरूच रांदपाचो वावर बाकी आशिल्लो
निमणे पेजेचेरूच भागयलें...

आतां हांवें एकोड्यान रावपाची सवंय करून घेतल्या
म्हजे वांगडा म्हाका खांद मारपी देवूय रावनात...

खरें म्हणल्यार
तिर्थार तिचें विसर्जन करतना
हांवें म्हजेंय विसर्जन केल्लें...

तशें पळयल्यार हांव आतां ह्या म्हज्या घरांत रावंच ना...

संपर्क: 9850458763

